मुखपृष्ठ आनी मलपृष्ठाचे फाटले वटेन शिल्पचित्रां दिल्यांत. तातूंत तीन ज्योतिशी बुध्द भगवानाची आवय राणी महामाया हिका पडिल्ल्या सपनाचो अर्थ राजा शुध्दोधनाक सांगतात अशें दाखयलां. शिल्पाचे सकयले वटेन एक बरोपवी तें सांगप बरोवन घेता. भारतांतल्या लेखन कलेची ही अशे तरेची सगळ्यांत पुर्विल्ली नोंद आसूंये.

(राष्ट्रीय संग्रहालय, नवी दिल्ली हांच्या बरेपणान)

**Oli Rana (ओलीं रानां):**
Collection of poems in Konkani by Rajashree Sail under Navodaya Scheme
Sahitya Akademi, New Delhi (2015), Rupees Ninety Only


First Edition : 2015

**Published by**
SAHITYA AKADEMI

**Head Office**
Rabindra Bhavan, 35, Ferozeshah Road, New Delhi 110 001

**Sales Department**
Basement in 'Swati', Mandir Marg, New Delhi 110 001

**Regional Offices**
172, Mumbai Marathi Grantha Sangrahalaya Marg, Dadar (East), Mumbai 400 014
4, D.L. Khan Road, Kolkata 700 025
Central College Campus, Dr Ambedkar Veedhi, Bengaluru 560 001

**Chennai Office**
Guna, 443 Anna Salai, Teynampet, Chennai 600 018

**ISBN 978-81-260-4712-3**

**Price: ₹ 90/-**

E-mail : rs.rom@sahitya-akademi.gov.in
Website : http://www.sahitya-akademi.gov.in

Cover design by Anil Dabhade, Mumbai
Typeset by Hemsan Computers, Mumbai, and Printed by
New Age Printing Press, Mumbai – 400025

# अनुक्रमणिका

# आत्मसोदाची कविता

फाटल्या एका दसकांत कोंकणी साहित्यात नवे नवे कवयित्रीची भर पडत आसा ताका कितली तरी कारणा आसू येतात गोय मुक्ती पयली आनी गोय मुक्ती उप्रातची पयली दोन दसका हाची तुळा केल्यावर हाली वाडत वचपी कवयित्रीची सख्या दोळ्यात भरपा मारको आसा पुर्तुगेज काळातल्या गोयात गोकुळाबाय कळावलीकार, गोदावरीबाय विष्णूनायक, मीराबाय कुडयकार आनी लीलावतीबाय तारकार पेडणेकार इतलीच नावां दिसतात. ताच्यो कविता सखेनूच चड मेळना आनी ताची पावडोय समाधान दिवपा इतलोच कवितेच्या मुल्याचे सारणीर त्यो घासून पळयल्यावर हाताक व्हडले अशे काय लागना ताची कारणा गोयचो इतिहास आनी समाजशास्त्र हातून सोदची पडटली गोय मुक्ती उप्रात शिक्षणाची प्रसार जालो आनी तें समाजाच्या तळामेरेन पावलें शेकड्याचे शेकडे सगल्या तरेच्या चेपणाखाला आशिल्ल्या समाजाक जाग आयली आनी नव्या पर्वाक सुरवात जाली. भोंवसातले चलयांक कंठ फुटले आनी ताच्या हातसून मोरगदीक काव्यरचना जावपाक लागली. राजश्री सैल हिची कविता ह्या बदलाचें फळ अशें म्हणूं येता.

आशय आनी ताची अभिव्यक्ती हाचे नदरेंतल्यान हे कवितेकडेन पळोवपाक जाय आदली कविता चड करून विजयाबाय सरमळकार सारकिले कवयित्रीच्यो कविता, घरगुती विशयाचेर रचिल्ल्यो तातून तरणे चलयेचे उमाळे, उत्फरके आसात रादचे कुडीत वावुरताना आयिल्ल्या अणभवाचो आविश्कार ती साद्या सोप्या उतरांनी करता मुखावयल्या काळात आयिल्ले कवयित्रीचे कवितात जो स्त्रीवाद फांफेलो ताचो स्पर्श हे कवितेक ना. तिचें अणभवविश्व सामके वेगळे ही कविता बायलां सबदातले जाणिवेचो वेध घेवपी. हे कवितेंतल्यान एक आत्मनिष्ठ (subjective) असो सूर आयकुपाक येता नयना अडारकार, नूतन साखरदांडे, माया खरंगटे आनी हालीचे पिळगेंतली ग्वादालुप डायस हाचे कवितेचे भावविश्व 'स्व'क म्हत्व दिवपी हे कवयित्रीचे माळेत आता राजश्री सैल हें आनीक एक नाव गुथूक येता. 'ओलें रान' हो तिचो पयलो वयलो कविता सग्रह आता उजवाडा येता.

ह्या सग्रहांतल्यो कविता वाचताना त्यो खयचे परपरेकडेन आपले नाते सागता हाचो विचार करचो पडटा. तिची शब्दकळा आनी भावनेचो आविश्कार करपाची तरा पळयल्यार ती आपलें नातें रोमँटिक परंपरेकडेन सांगता.

*तुज्या सांगाताची*
*चांदरात*
*कापूरजावन लागली गळूंक*
*दंवाथेंब्यानी*
*नखेत्रां लागलीं पेवूंक*

आनी परमळाच्या गांवांनी ओंवळीणेचे ओले साद आयकुपाक येतात. पावला कणकणी अमृताच्या तळ्याचो भिजरो भास जावप हांगा कवयित्रीची अणभव घेवपाची तरा दिसता. ह्या कविता संग्रहाच्या नावात ओलेपणाची स्पर्शआसा. रोमँटिसिजम तें एक महत्वाचे लक्षण. विचारां परस भावना महत्वाच्यो आसतात हें ह्या पंथाचें एक तांस. ताकाच लागून ताच्या सांगतात तिचो स्वास हरवो जाता. कवितेंतल्यान व्यक्त जावपी भावनात्मकतायेचो प्रभाव हे कवितेचेर दिसता.

*सांज देवता*
*ल्हवच*
*शांत तळ्याच्या*
*मनांत*
*भोंवतणी*
*अमुरपिके*
*आमोरेचो चौघुडोवाजूंक*
*लागता*

एक तरल सुक्ष्म अशी भाववृत्ती ह्यो वळी व्यक्त करतात. हे कवितेंत सरते सांजेचें अमूर्त चित्र शब्दांनी चितारपाचो यत्न कवयित्री करता. हांगा काळोख आनी उजवाड एकमेकांक मेळटात. सावळ्यांकूय चंदनाचो घमघमाट सुटला... काळोख आनी उजवाडाचो ओलो सावळो सावळ्यांखेळ सुरू जाता आनी रात तन्री जायत वता. भावअवस्थेचीं हीं वेगवेगळीं रूपां अभिव्यक्तीक चित्रमय करतात. ही तीनसांज पदरांत उबी रावता.
कवयित्री आपले कवितेकडेन कशी पळयता ताची गवाय एके कवितेत मेळटा.

*कविता शृंगारता*
*काळखाचे उबेंत*
*धुपाकत जावन परमळटा*
*फांतेडेचे देगेन*

ती कवयित्रीचें सगळें भावविश्व व्यापून रावता. मनआंगणातं, रानपावसांत फुलांच्या दोंगरांत ती भिरें जावन उडूक लागता. आनी हे कवितेच्यो निमाण्यो म्हत्वाच्यो वळी

*हुबून वतात*
*कापूर जावन*
*दिका नाशिल्ल्या दिगतात*
*मेरनाशिल्ल्या चैतन्यात*

हे कवितेक अशे तरेन असीमाचो ध्यास आसा. ती अखखे विश्व आपले वेंगेंत घेवक वधेता. हो तिचो ध्यासूच तिका मुखार व्हरत आसता अशें म्हणपाक जाय ती केन्नाय काळजाच्या खतखत्यातल्यान ज्वालामुखी कशी भायर सरता तेन्ना आनीक एक रूप दोळ्यासामकार उबे रावता तिणे तिका ज्वालामुखी म्हटलें तरी तिची नाजूक प्रकृती ती विसरना. ती आडवेळ्या पावसांतलो चंवरिल्लो रानचंवर जाता

*पूर्ण... अपूर्णाचो खेळ खेळपी*
*स्वास... उस्वासाच्या तालार नाचपी*

अशी ही तिची कविता. दर एकलो कवी आपले कवितेकडेन आपले परीन पळयता. हे धर्तरेर कवितेचो जल्म जायत सावन ते आजमेरेन ह्या आशयाच्यो जायत्यो कविता वेगवेगळे संस्कृतीच्या पर्यावरणात वाडिल्ल्या कवींनी करून जाल्यात
एक बायल म्हूण जियेतना आयिल्ले अणभव राजश्री माडटा हे अणभव तिचे आपले अशे न्हय तर ते एकूण बायल मनशेचे काळ बदल्लो तरी काय बाबतीन परिस्थिती तशीच आसा 'शेळाव यादी' ही कविता ते नदरेन पळोव येता. बायलो आपले अणभव व्यक्त करपाक ओपारी आनी वाक्यप्रचार हाचो आदार घेतात चड करून गावगिऱ्या वाठारांतल्यो, अशिक्षीत. पूण ताच्या हे अभिव्यक्तीत जिवीताच्या खर सताचे सार गोठिल्ले आसता.

*म्हजी आवय म्हणटाली*
*जिवीत म्हणटात ते आळवा पानावेले उदक*
*पावस पडटा आनी वाऱ्यान व्हाळटा*

त्या मावशेच्या तोंडातली उतरा गर्भाचे आनी मिर्गाचे सांगू येना आनी घोवान मारल्यावर आनी पावसान भिजयल्यार कोणाक सांगपाचे? अश्या वाक्यप्रचाराची जत्री कवयित्री गुथता पूण अखेरेक

*आता ह्या रासवळ दुख्खाचो एक पावस जाला*
*केन्ना सांजचो शिराशिर झडटना*
*पावसी शेळांव यादीन मन शिरशिरता*

हे कवितेन अणभवाचे वेगळेंपण ना जो अणभव आमचे दीसपट्टे जिणेंत आमका येता तोच हांगा व्यक्त जाला कवी कविता रचता म्हल्यार आपल्यो भावना दुसऱ्याच्या काळजा मेरेन

पावयता. जै किते आपणे अणभवला ते तो दुसऱ्याक सांगता. रॉबर्ट फ्रॉस्ट एकेकडेन म्हणटा ताचो ह्या सदर्भात याद जाता. In literature it is our business to give people the thing that will make them say, "Oh yes. I know what your mean." It is never to tell them something they don't know, but something they know and hadn't thought if saying. It must be something they recognize.

आमच्या अणभवांचेर संवकळीतो धुल्ल बाशिल्लो आसता. कवी तो धुल्ल पुसून तो लखलखीत करून तुमचे मुखार दवरता. वर्डस्वर्थ सारकिल्या रोमँटीक कवीची हीच धारणा आशिल्ली. राजश्रीच्या ह्या संग्रहांतले कवितेत दुःखभावाची तीखजाणीव दिसता. दुखाच्यो म्हूण वेगवेगळ्यो तरा आसतात. परकेपणातल्यान आयिल्ली. दुःखाची जाणीव 'पापा जाता पुरायेन परकी' सारके कवितेंतल्यान ती व्यक्त जाता. पयशे जोडूक म्हूण बापूय घरापासून पयसवता. तो पयशे जोडटा खरो पूण घराब्याचें मन मोडटा. हो घुस्मटमार निखटो सगळ्या कुटूंबाचोच न्हय तर ताकाय एकसुरेपण सोंसचें पडटा. निराधारपणाची तीव्र भावना ताका पोखरीत आसता.

*जेन्ना पळयता तुका*
*रातीच्या काळ्या गुप्प काळखात*
*उश्यात तोंड लिपोवन*
*ल्हव ल्हव फुगार जावन*
*व्हडल्या व्हडल्या दुकांनी*
*भितल्ले भितर रडटना.*

'पलाश' सारकिले कवितेंत हीच दुःखाची भावना पलाश हे प्रतिमेंतल्यान व्यक्त जाता. केन्नाय हे दुख काळजाच्या केणाची वाट सोदता, 'अथांग दुकां तळ्यांत थाव लागना' असो हो अणभव. खंयच्या तरी अज्ञाताची सुंवारी वाजता. 'म्हज्या मर्णाची ही मर्ण / सांवळी दोन दोळ्यांच्या / दोळ्यांतली बावली अशें कवीक म्हणचेंच पडटा. दुख आनी मरण ह्यो एकाच नाण्याच्यो दोन वटो.

हे कवयित्रीची कविता स्थळवर्णन करता. बेळ्ळूर हळेबेळ्ळूर देवळां' आनी 'जोग रकता' ह्यो दोन कविता ते नदरेन पळोवपाक जाय. ह्या स्थळांक भेट दिले उप्रांत तिच्या संवेदनशील मनार उदेल्ली ही चित्रां. ह्यो कविता तांच्या अंतरंगाचो वेध घेता. देवळाचे फातर तिका निखटे निर्जिव दिसनात. तर ते वाजतात आनी नाचतात...

*नृत्य चलता फातराच्या शिरंतरांतल्यान*
*काळयुगांतल्या अगणित शिल्पकाराचे*
*होयसळा, होयसळा, होयसळा*

हे कवितेच्या सदर्भांत चद्रशेखर कबार ह्या कवीच्या 'हपीचे फातर' हे कवितेची याद जाता ह्यो दोनूय कविता एकमेकापासून वेगळ्यो आसात. ताच्यो प्रतिमा वेगळ्यो आनी अभिव्यक्तीय वेगळी पूण ताचे मदी आतरीक अशे, एक नाते आसा. शिल्पकार हातात शित्री घेवन फातराक आकार दिता तेन्ना ताचेमदी चैतन्य खेळूक लागता आनी कवयित्री ताका पळोवन उचंबळून वता.
जोगाचो घोंगो म्हटल्यार सैमाचे एक महाकाव्य अशे ताचे वर्णन कवी लेखकानी केलां जोगाची भव्यताय वर्णन करतना

*मळब देठांतल्यान*
*दोंगर माथ्यांतल्यान*
*जोग कोंसळटा*
*दूद केसरी रंगातल्यान*

अशे म्हणीन दिसना. हो जोग दोळ्यातला मळवात पावना आनी तसोच तो मनाच्या करंडात व्यापना भव्यतायेचो अणभव असो उतरा पलनडचो आसता ताका आपले वेगेन घेवपाची यत्न कवयित्री करता तेन्ना तिका आपले मर्यादाची जाणीव तिव्रतायेन जाता जोगाचे रूद्र रूप आनी सौम्य रूप ही दोनूय रूपा तिका सारकींच भावतात.

*सप्तसुरांच्या लयेंत ताच्या*
*ओलो केसरी गंधार*
*सरवळी तालात ताच्या*
*कृष्णाच्या मिरेची*
*तुळसमाळ*

सुरातल्यान रगाची मवेदना जागी जाता दे सगीतकार आनी चित्रकारानी सागून दवरलां आनी खूपश्या अर्थान ते खरें आसा. 'ओलो केसरी गधार' हे वळीत ओलो आनी केसरी अशी दोन विशेशणा गधाराक लायिल्ल्या तिचो अर्थ अदीक खोल जाता ही दोन विशेशणा म्हटल्यार कोमल आनी शुद्ध ही गधारची दोन रूपां. ह्यो दोन कविता दोन कलात्मक अणभव दिता कवितेंत भारतीय पुराणातल्या आनी रामायण महाभारत सारकिल्या महाकाव्यांतल्या मिथकाचो वापर खूप प्रमाणात जाता. काय कवी ग्रीक, रोमन मिथका वापरतात. ह्या मिथकाक खाशेलो असो अर्थ आसता मनीस कुळयेच्या युगायुगाच्या अणभवाचे सचीत तातूत आस्पावल्ले दिश्टी पडटा राधा आनी कृष्ण हे मिथक आमचे सवकळीचे आजवेर भारतीय कवितेंत ताचो सुमाराभायर वापर जाला जयदेव, विद्यापती ते हालीच्या काळातले रमाकात रथ हाणी आपल्यो महत्वाच्यो कविता ह्या मिथका भोंवतणी रचल्यात. रथाची 'श्रीराधा' ही उडिया भाशेतली दीर्घ कविता ही हालीच्या काळातली देख उत्कट प्रेमभावनेत आशिल्ले अद्वैताचो

भाव असो अर्थ ह्या मिथकांतल्यान काडूं येता. 'त्रिधा राधा' ही पु. शि. रेगे हांची मराठी कविता राधा-कृष्णाच्या प्रेमाचो हो अद्वैत भाव खूप समर्थपणान व्यक्त करता. राजश्रीची 'मृगजळ...सावळो हरी' ही कविता वाचून कांय बऱ्यांतले बरे कवितांची याद जाता.
राजश्री कृष्णराधा मिथकाचो कवितेत आपलेभशेनं उपेग करता. राधाकृष्ण म्हणटकच थंय यमुनेचो काठ, कदंब, बांसरेची धून, ह्यो प्रतिमा आपसूक येतात. हे कवितेंतली कृष्ण सावळो आसा आनी तो दिकांदिकांतल्यान झिरपत येता. कृष्ण स्वास आनी राधा उस्वास अशें हे अद्वैत नातें.

*तूं नाच नाच राधिके*
*चंदनवनांत*
*परसळ बनांत*
*वेळा अवेळा हो*
*मृग पावस*
*रंद्रांरंद्रांत कृष्ण*
*अमुरपिक्या पिंपळ सुरार*
*राधे*
*तुजो जांभूळ जांभूळ*
*भावनाच*

(हातूंतली अमुरपिक्या पिंपळ सुरार ही वळ हांगा थोडी अडेची दिसता.)
कवितेचे अखेरेक सावळो हरी हो मृगजळावरी राधेक दिसता.

ह्या मिथकांत एकेतरेची सांकेतिकताय आशिल्ल्यान ताच्या वापरांन कविता निर्जिव जावपाचो भंय आसता. सांकेतिकताय मोडून तांकां अर्थाचीं नवीं परिमाण दिवपाक आगळी वेगळी नदर लागता. हातूंत थोडेंभोव यश राजश्रीक मेळां अशें म्हणचें पडटलें. निरामय तन्मये, मदनयोगिनी सारकेली विशेशणा लायिल्ली उतरावळ ती रचता. संग्रहांतल्यो चडावत कविता आपलेच कडेन संवाद करता. तिच्या मनाचें आंगण ओलेंचिप्प आनी ताका ओलें चिप्प करपी पावस आनी रातूय ओली चिप्प. ओलो पांचवों दोंगर आसा तशेंच ओल्या निळ्या दर्यात / ल्हारांचे निमाणेशे आंकवार न्हाण...व्यवहारीक अर्थान पळयल्यार उदक ओलेंच आसता. म्हणटकच कवी आमका आनी वेगळें कितें सांगता असो प्रस्न उप्रासू येता. पूण ही कविता बारकायेन आस्वादाचें नदरेनल्यान तिचे कडेन पळयल्यार ओलेंपण हें उदकाची भाववृत्ती अशें कवयित्रीक सुचोवपाचें आसा अशें लक्षांन येतलें. कवितासंग्रहाच्या नांवातूच हें ओलेंपण आसा.
कांय कविता कथनात्मक शैली घेवन आयल्या. गोलूच्यो कविता वा मर्णाती अणभव व्यक्त करपी कविता. पूण त्यो कवयित्रीच्या पिडाकडेन जुळोवन घेत अशें दिसना. त्यो नाका तितल्यो

पाताळिल्ल्यो दिसतात आनी ताची धार मुडेवन वता  कवीक आपले कवितेच्या स्वभावाची जाण आसप गरजेचे आसता. हो एक दोश सोडलो जाल्यार 'ओली राना'तली कविता खूप समाधान दिता.
एमिली डिकिन्सन हे अमेरिकन कवयित्रीभशेन राजश्रीची कविता म्हळ्यार आत्मसवाद. वाडटे जिणेच्या अणभवाबरबर तो अदीक अर्थपूर्ण जातलो हातूत दुभाव ना

**– माधव बोरकार**

## स्वास हरवो...

असो धुंद हो वारो
अशी पावसांची झडमड
धुंद मोगऱ्याचो फुलारो
दिका दिकांतल्यान धोलता
प्रितीची परमळ नवी
निळें सांवळें वत जाबळें
घेता मंद मंद झोपाळे
तुज्या सांगाताचो
स्वास हरवो
रंद्रारंद्रांत पिशी आबोली
फुलारता

## चांद रात

तुज्या सांगाताची
चांदरात
कापूर जावन लागली गळूंक
दंवा थेंब्यांनी
नखेत्रां लागलीं पेंवूंक
परमळाच्या गांवांनी
ओंवळिणेचे साद ओले
पावलां पावलां कणकणीं
अमृताचे म्होंवें तळें
सांगाताचो भिजरो भास
सांगाताची ओलो आस
नाचता सपन गंधांनी
शिंयाळ धुकाळ पिकाळ पिकाळ
तुज्या सांगाताची चांदवाट
व्हांवता दोंगर गाळीतल्या
रानावनांनी

# धूव

धूव आसची तुजे वरी
शुभ्र पारजताच्या
केंसरी देंटावरी
हाताच्या पाळण्यांत
बोटाचो आंगठो चोखीत
ब्रहमांडाची खोशी
उफेवची दोळ्यांत.
हांश्याचो उडचो
भरगच्च फुलारो
भांगराचो
ह्या पारदर्शी
चकचकीत खिणांत
चक्क लखलखचें
हांवें श्रावणांतल्या
केसरी हरव्या वता वरी.

## सांज

सांज देंवता
ल्हवच
शांत तळ्याच्या
मनांत भोंवतणी
अमूरपिक्या
आमोरेचो चौघुडो वाजूंक
लागता
रानपिशें
लागिल्लें सवण्याचे
भंवर उडूंक लागतात
जळीमळी
पयस चंदनाच्या रूखाच्या
दाट परमळ सांवळेंतल्यान
काळखाचीं बोटां फाफसूंक लागतात
भांगराळ्या शेतांनी घुंगूर वाजोवपी
कणसां एकमेकाच्या हातात हात गुथून
गच्च उबीं जातात मोनी...
काळोख उजवाडाचो ओलो सांवळो
सावल्याखेळ
तन्री रात
ल्हव ल्हव
गळूंक लागता
केळिच्या दाट पांचव्या
पानांतल्यान पुराय
पांचपंचमी धर्तरेचेर

## वसुधैव कुटूम्बकम

तुमी कितलेंय म्हणात
बोंबलेच्या देटापासून
आड्डी मारून
धर्माधर्मामदीं दुस्वास
वाडला देवळां वाडल्यांत
मस्जिदी वाडल्यात
रस्त्या रस्त्यार चर्ची वाडल्यात
आनी ताचेबरोबर वाडल्यात भटजी मुल्ला
पूण हांव रावता तें शार मात
जायत चल्लां वसुधैव कुटूम्बकम
फांतोड उदेता
मस्जिदिंतल्या मुल्लाच्या बागांत
उपरांत साईबाबाली काकड आरती
घरामुखाल्या देवळांतल्यान
पलतडीं आशिल्ल्या चर्चिच्यो घांटी, पाद्रिचें
मीस मिसाक धांवपी लोक
शारांतलें फेस्त, शारांतली जात्रा शारांतलो
उरूस चालूच आसता
रावता तीन धर्मामदी युरोप अरबी संस्कृतीमदीं
चिड्डनासतना
हांव रावता ते बिल्डिंगेत
पुराय संवसार
येता क्रिसमसाक
नव्या वर्साक वस्तीक
वयर लंडन सकल पाकिस्तान
शेजारी क्रिस्तांव लागीं मुसलमान
कशीं वाडटात पळयात
भुरगीं तीन धर्मात
पुराय संवसारांत
लंडनचें क्रिस्ता

चॉक्लेटी हाडटा
पाकिस्तानातले फरहा
हाडटा खजूर
फेर्नांडीस आंटी धाडटा बिबिक़
अब्राहिमा घरच्यान बिर्याणी
केरळचे अप्पम
आंध्राचं पायसम
बंगालचे सोंदेश
पंजाबचे छोले
दावेवटेन रावता संगिता
घोव मुसलमान
मांय युरोपियन
सून बंगाली
जावंय अरबी

हालीं हालीं हे तीनय
देव दवरल्यात
देवाऱ्यांत चार दीस
कुरकूर करून आतां
सत्तर वर्साची मांयय
पडटा पांय व्हडा
श्रद्धेन
तुमी कितलेय म्हणात
धर्माधर्मात दुस्वास वाडला
पूण म्हजें शार जायत
चल्लां वसुधैव कुटूम्बकम्

## पापा जाता...परकी पुरायेन परकी

कोणाक खबर कित्याक,
अशें दिसत रावतां
तुज्या मनातलो घुस्मट
चड सोंसला तुज्या दोन
ल्हान फुलांसारक्या भुरग्यांनी
तुजेपरसय चड.......
तो आसता स म्हयने बोटीर
आनी स म्हयने
जेन्ना आसता तुजे वांगडा,
तेन्ना सुरू जातात
केन्नाच ना सोंपपी झगड्याच्यो माळो...
आनी ह्या झगड्यांचो सांवळ्यो
पडटात तुज्या
ल्हान भुरग्यांल्या कंवळेल्या
घुस्मटिल्ल्या स्वासाचेर.

कित्याक रावता फ्रॅन्क भितल्ले भितर
घुटत घुटत...घुस्पटत घुस्पटत
असहाय्य...निराधार
जेन्ना पळयचा तुका
रातीच्या काळ्या गुप्प काळखात
उश्यांत तोंड लिपोवन
ल्हव ल्हव फुगार जावन
व्हडल्या व्हडल्या दुकांनी
भितल्लें भितर रडतना.

कसो चिंतीत रावता फ्रॅन्क
आपल्या रोशोलाल्या आनी मम्मील्या
वेरेंल्या भाग्याबद्दल
ताका सदांच दिसत रावता

कित्याक पापा आसना
सदाखातीर तांचे वांगड
सांगीत साता समुद्रा पलतडच्यो
अजापाच्या खबऱ्यो.

कित्याक मामालें घर ताचें जायना…
मम्मान लाख फावट सांगूनय
मामाले मावशेले भुरगे
उडत उडत येतात नातालाक
दुबय अमेरिकेंतल्यान आज्जेगेर

तेन्ना कसो फ्रॅन्क कुशीकुशीत रावता
सोदीत आपलें फकत आपलें घर
आपलो कोनसों

सोबीत भेस करून जेन्ना
सकाळी ममा हारश्यांतल्यान देवतां
ऑफीसांत वचपाक
तेन्ना कितलो वेळ मेरेन
ताका आपूण एक
असूरक्षीत वर्तुळांत घुंवता
अशे दिसत रावता आनी
ताच्या तनमनांत एक भिरांकूळ
एकलेपणाचो पावस
गडगडूंक लागता कोसळूंक लागता
घडये मम्माय हातांतल्यान
सुटून वचत पापाभशेन
आनी जायत
जादूच्या जुंव्यांवेल्यान
इंम्पोटेड वस्तू हाडपी
स म्हयन्या उपरांत
येवपी पापाभशेन
कित्याक रावनांत

ममा पापा एकठांय
काणयेतल्या पुर्ण भरिल्ल्या
धादोशी घराब्यावरी...
कसो पापा जाता परकी
जाचेखातीर
ममा आपल्या काळजांत
सुवात करूंक शकना
ना म्हण फ्रॅन्क
आनी जेन्ना फ्रॅन्क
पापाखातीर थोडीशी सुवात करता
तेन्ना खिणात स म्हयनें सोंपतात
आनी पापा जाता परकी
पुरायेन परकी...

## गोलूक दिसता...सवणें जावंचें

गोलूक दिसता
सवणें जावंचें
उड उड उडचें
शाळेक मारची दांडी
आनी ल्हवच उडत वचचें
पापा आज्याल्या गांवांत
आंगणातल्या धोलार
बसून धोलचें
काळ्या किट्ट बिलुली
शेंपडीच ओडचें
घुडांतल्या सगळ्या
कुकडांक धांवडावचें
पेरिवेल्या चानया फाटल्यान धांवचें
काजुवेल्या हुमल्यांक ल्हवच धरचें
सामकें सामकें पुरो जातच
आज्जेल्या हुटयेंत बसून
पेजे उंडी जेंवचें

गोलूक दिसता
सवणें जावचें
उड उड उडचें
आत्याल्या व्हडल्या घरांत
कळनासतना रिगचें
पोरसांत तिच्या
ओवळां आनी रोजां
मोतमोगरी रतन आंबोली
सगळी काडून माथ्याक माळचीं
जावंची कोंकणातली
सैमराणी
कुळागरात आत्याल्या

आंबे आनी पणस
काळगां आनी अनस
वासाच्या दमदमान धुंद जावन नाचचें
वझऱ्याच्या खळखळ्यात
पचपचीत न्हांवचें
ल्हवच वचून
फाटल्या दारांत
आत्याल्या पदराक
धरून ओडचें
मायेमोगाचो
हात दुदां साखरेचो
आंगार ओडटकच
खुदू खुदू हांसचें

# गोलून बरयली काणी

गोलूल्या शाळेत
आसा काणयाची सर्त
गोलून बरयल्या काणी एक.
काणयेंत आसा एक झाड
पानान पान फुलिल्लें
मळब भरून वाडिल्लें
वाऱ्यावांगडा धोलिल्लें
काणयेतलें झाड
रावता रखरख्या तळपट्या सड्यार
तांच्या वांगडा ना
एकय झाड सांगाताक.

पयस पयस रावता एकटे एकाकी
आयकात गोलूली काणी...
एकटें एकाकीं बाबडें बाबडें
गळयत गळयत दुकांची वावझड
उलोवंक ना कोण वांगडी
हांसूक ना कोण इश्ट सांगाती.

पयस पयस तळपट्या सड्यापेल्यान
आसा एक आंबेगाळ
आसात थंय खूब झाडां पेडां
ओंवळ, वड, चिंच, आंबो,
पिंपळ...
आनी काण्णांची झोपां
चिपटाची रोपां.
सळसळती इश्टागत
तांची दिसता एकाकी
झाडाक....ह्या
तळपट्या सड्यावेल्यान

वारोय येता केन्ना केन्ना
घेवन खबर
तांच्या गूलमोहरी
इश्टागतीची
खदखदीत सळसळीत…खूकखूकीत
हाश्याची
आनी झाड जाता खंती
पानान पान…खांद्यान खांद…
फूलान फूल……मूळान मूळ
कितें करचें कळना झाडाक
कशें झडोवचें हें एकाकीपण
कशी मेळोवची इश्टागत
सगल्या आंबेगाळीतल्या झाडांची
हड्ड्यांत ताच्या फुगासांव
दोळ्यांत येतात हूनहुनीत
दुकां एकटेपणाचीं

एक दीस येता वारो
सदांपरस चड नाचत
सदांररस चड हांसत
सांगता झाडां
एक नवल
आयक सारकें मन दिवन
पळोवंक जायना म्हज्यान
काय तुजी ही अवतिकाय
पानान पान बावत वच
मूळान मूळ झडत वच
जेवण सोड
खाण सोड
स्वास लेगीत
घेवचो सोड
घे देवा नांव दीस आनी रात
कर जिवाचें वैराण

येतली देवाक काकूळट
तुका दितलो वर
व्हड खोशयेन

आयकून झाड जाता खोशी
कशेंय करून मेळोवचो
देवाली मर्जी . . .
दीस रात.......दनपार तीनपार
झाड बसता तपश्चर्येक
सळसळप बंद
पालेवप बंद
फूलप ना फळप ना
जेवण ना खाण ना
वास ना स्वास ना

झाड जालें तपस्वी
जालें व्हडलें म्हारूशी
पानान पान बावलें
मुळान मूळ सुकलें
सवणीं गेली घोंटेर सोडून
चानयो गेल्यो सोडून घर

झाड लागलें जपूंक देवां नांव
दीस आनी रात
जालें जालें सुकें काश्ट
पावलें सामकें मरणा धडेर
निमणो घरघर लागलो झाडाक

देवाच्यान जालें ना पळोवंक ताचें हाल
कितल्या तेपान केली इतली भक्ति
धर्तरेवेल्या
प्राणीमात्रान, जालो प्रसन्न देव
दैवी किर्णा फांकयली झाडा आंगार

उठ झाडां उठ
तुजी प्रार्थना आयकली देवान
पळय पळय दोळें उगड
घटमूट दोन पांय
फुटल्यात तुज्या मुळाक.

उठ झाडां उठ
वचून उबें राव
तुका जाय थंय
जाय त्या जाग्यार
हें आयकतकच
झाडाक खोशयेचे फुटले दोळे
पानांपानांर
नमळायेन लाख लाख हात जोडले
देवामुखार
अजापाक ना सुमार
आनंदाक आयलो भार
उठलें तें हालयत पाय
वाऱ्यावाऱ्या यो म्हज्या सांगाताक
पळय जालो कसलो दैवी चमत्कार

चलत चलत
हालत धोलत
झाड वचूंक लागलें
आंबेगाळी वटल्यान
सगळीं जाण पळयतात
अजापान
धोलत धोलत चलपी झाडाक
झाडां सळसळची उरलीं
सुकणीं उडपाची रावली
शेड्डे जाले अजापान जार
मुयेन घातली आपलीं
पायाचीं बोटां तोंडांत

झाड वचून उबें रावलें
हांसत हांसत आंबेगाळीतल्या
झाडावांगडा
मुळान मूळ रिगलें
आंगान आंग सळसळळें
पानान पान फुललें
मळब भरून वाडलें
इश्ट जोडले हजार
सगळ्यांनी उखलून
घेतलें ताका माथ्यार

ताच्या आंगार परतली
कवळी तत्री तिकतीकसाण
पानान पान पानेलें
चंवरान चंवर चंवरलें
झाड फुलां भारान बावगलें
फळान फळ फळेलें.
आयली सवणीं घेवन
आपले घोंटेर चोचीर
चानयो आयल्यो घेवन
तीनपाटांची संवसार फाटीर
आयजय पळवश्यात तर
आंबेगाळीत
गोलूल्या काणयेतलें
झाड बरेंच तरतरता
पानान पान सळसळटा
फुलान फूल फुलता
इश्टांवांगडा धोलता
किटकिटत हांसता.

## वैष्णवी...म्हजी धूव

वैष्णवी...आंगटो चोखीत
दूद पानेल्या
नदरेन म्हाका पळयता
आनी हांव गळूंक
लागता देटांदेटांतल्यान

* * * * * * * * *

वैष्णवी
म्हजी धा म्हयन्याची धूव
हात हालयत
ताता, भो...भो, का...का.
करता
आनी पुराय
ब्रह्मांड एका खिणांत
म्हज्या आंगणांत
तालगडी खेळूंक
लागता

* * * * * * * * *

वैष्णवी
निकतेंच फुटिल्ल्या
दूद तन्र्या दातांतल्यान
म्हाका पळोवन हांसता
त्या दूदकेंशरी हांश्यात
हांव थेंब्याथेंब्यान
झुरमुरीत साखर

जावन विरगळूंक
लागतां

* * * * * * * * *

वैष्णवी
ह्या
दवनिळ्या धारोष्ण
फांतोडेर स्फटिकी
हुंवारिल्ल्या नदरेन म्हाका पळयता
त्या वेळार
म्हज्या हातांतलें
घड्याळ
चडच वेगान
धावूंक लागता
एका वेगळ्याच
विश्वाच्या दिकेन

## गोलूलो पयलोच वर्ग

गोलूल्या शाळेंत
सगल्यांपरस
चड मस्ती
चड हट्टी
गोलूलो पयलेचो वर्ग
सगल्यांनी मेळून थारायलें एक दीस
करपाचीच फाल्यां
नवलाची मजाच मजा
दुसऱ्या दिसां सकाळीं
प्रार्थनेक.....
पयलेच्या वर्गातलीं
आयलीं ना कोणच कोण
हेड बाईच्या कपलार
पडल्यो मिरयो चार
सर जालो सामको बेजार

इतल्यात पळयात जाली कितें मजा
पांडू बसून आयलो हतयाचे सोंडीर
चिंगी आयलें बसून कांगारूच्या पोटांत

गोलू आयलें बसून फुलांचे राशीर
श्रेया आयलें बसून मोराचे फाटीर
बंटी आयलो बसून माकडाचे शेपटेर
सेलिया आयलो बसून हरणाचे मानेर
हुशार अली आयलो बसून घोड्यार
मस्त रामू आयलो बसून वागार
वागाक पळोवन सगळीं भियेलीं
भियेवन पळळी वयल्या माळ्यार

धिटायेन सर सकल आयलो
ल्हवच रामूक सकल देंवयलो
आपूण जालो वागार स्वार
पळोवन सराक वागाचेर स्वार
सगल्यांच्यांच जिवांत
आयलो प्राण
सोमतींच सगलीं
सकल देवलीं
जनावराचे फाटीर हात ओडूंक
लागली व्हड सर्त

पयलेच्या वर्गान
केली खरी मजा
रानांतली जनावरां
पळोवंक मेळ्ळी सगल्यांक
आयच्या दिसा

रेखाबाईन म्हळें निमाणेच वक्त हालयत
पयलेची भुरगीं
मस्ती खरी
पूण तकलेन बाये हुशार बरीं

## गोलूली बावली

गोलूक हाडल्या
पापान ताच्या
नवलांची बावली
गोऱ्या गोबऱ्या
गालांची

पिंगश्या पिंगश्या केसांची
गुलाबी आंगले तिचें
गुलाबीच मोचे
खुसू खुसू हांसता ती

कशें आसा गो तूं
म्हण दोळे मिचकायत विचारता

गोलूक हाडल्या पापान ताच्या
नवलांची बावली
चार पावलां चलता
नाच म्हळ्यार नाचता
रातभर गोलूल्या उशाकडेन
न्हिन्दता
फांतोडेर गोलूल्या दप्तरांत उडी मारता

सांजवेळार पासयेक
गोलूक खांदार घेवन हुबता
मळबांतलो अप्पुपाचो
संवसार सगळो दाखयता
आमोरेर गोलूवांगडा
देवामागणे करता
गोलूवांगडा जेवता
आनी

गंलूवांगडा खेळटा
अशी अशी अपुपाची
गोलूची बावली
पळोवंक तुमी येवशात

तर
तुमकांय घेवन
हुबतली

## सोनपाखुलें

सान सानुल्या
फूल पाखुल्या
फूल पाकळ्यांच्या रानांत गो तूं
रावता
गोलू तुका धरुन धांवल्यार
पयस पयस कित्याक गो पावता
अशें कशें नाचरे तूं
दसणीवेल्यानं शब्दुलेचेर
जायेवेल्यान मोगरेचेर
यो गो अशें
म्हऱ्यात सामकें बस

गोलूक म्हज्या मेजचे आसात
तुज्या आंगावेले रंग
फुलफुलयत आपलीं पाखां
आयल्या पेल्यान नाचता

मस्तें मागीर गोलू म्हजें
रडूंकच लागता
दोळ्यांतलीं मोतयां ताचीं
पळोवंक म्हज्यान नज
यो गो बाये सोनपाखुलें
म्हऱ्यांत मात्शें बस

## तिनसांज

तिनसांज उबी पदरांत
मध्यानरात दोळ्यांच्या आंगणांत
तरी काळीज भरून व्हांवता
ती कालचीच मळब निळाय
खयच्यान आयलो हो गर्भरेशमी मनभोंवर
आनी विचारता ल्हवच...
याद आसा ती तिनसांज
गुलाब पाकळ्यांतलो मोनो मोनेळ
बळार भिरें जावन वताले
दोळ्यांआड कोणाच्या दोंगराळ्या गांवा
दर्याच व्हांवतालो केंसर जावन ताज्या
दोळ्यांतल्यान
सांगाताचो सुर्वण परमळ घमघमतालो
साता जल्माच्या पावलांत
खंयच्यान हुबत येतालो
काळो आशाढी वारो
आनी घुंवतालो
पिशांतरावरी
मदल्या मदल्यान
कोणा गावंची काचेची बावली
सोदताली आपल्यो सपनरेखा
ताच्या हाताच्या तळटचार
तो रावतालो दोळे धांपून
एक मोने वजें पातळटालें
चोयवदान याद आसा ती तिनसांज
दोगायचें तें मन रकयत रकयत चलप
दुकाचे तें ल्हवच ल्हवच वाफ जावन उडप

## कविता

कविता श्रृंगारता
काळखाचे उबेंत
धुपारत जावन परमळटा
फांतोडेचे देगेन
ल्हव ल्हव पावली मारीत पावशेता
मनआंगणांत रानपावसांत...फुलां दोंगरांत
भिरें जावन उडटा
धुंद मोन्या दनपारच्या अनवळखी कडार...
खंयच्या तरी सांवरेवेल्यान
झिळमिळटा...सांज वत जावन
काळखे मध्याने रातीं
हुबून वता
कापूर जावन
दिका नाशिल्ल्या दिगतांत
मेर नाशिल्ल्या चैतन्यांत

## कवियत्रीची कविता

काळजाच्या खतखत्यांतल्यान
भायर सरिल्लो ज्वालामुखी
मनातल्या मळार
आडवेळ्या पावसांत
चंवरिल्लो रानचंवर
कवियत्रीची कविता...
जिणेंतले काळखो वाटेंत
खंयतरी लक्क पेटिल्लो उजवाड दिवो
जिणेच्या उटंगरांत
दोळ्यांतल्यान रकिल्लो वादळवारो
कवियत्रीची कविता...
तिचे कोरे कोरे डायरेंत
उदेल्ले कांय शायेचे दाग
तिचे जिणेंतले वितराग
कवियत्रीची कविता...
खंयतरी तिचे वरीच
घर नाशिल्ली
गांव नाशिल्ली
मान नाशिल्ली
नाव नाशिल्ली
पूर्ण...अपूर्णाची खेळ खेळपी
स्वास...उस्वासाच्या तालार नाचपी
कवियत्रीची कविता...
केन्ना केन्ना पूर्ण चिवट पुरूष संस्कृती
मोडून तोडून उडोवपी
हुंवारी
आदिशक्त दुर्गा

## बेळ्ळूर हळेबेळ्ळूर देवळां

धर्तरेच्या पाचव्या घुमटेर
कोणे कातयलें शिल्प
खंयच्या हजारानी हातानी
खेळ्ळें एकवटाचे मेळ
विणले पाशाणानी
सप्तसुरांचे गोफ

फातर वाजतात
नाचतात
नृत्य चलता फातराच्या शिरंतरांतल्यान
काळयुगांतल्या अगणित शिल्पकाराचे
होयसळा, होयसळा, होयसळा

कोणा हातांची ही काणी
गायता विजमिताचीं कुवाडी
खंयच्या काळांतली ही
यक्ष यक्षिणिची जोडी

युगायुगां फाटलो भांगर पाषाणी
इतिहास गर्जता हुमाणे घालता
दारावेलो वाघ गरड घालता
दारावेलो वाघ गरड घालता
होयसळा, सळा, होय, होय

उजवाड धारेंत
मळब निळायेंत
फातर फातराच्या शिरशिरेंत
पुराय बेळ्ळूर हळेबेळ्ळूर
देव देविकेसयत
नृत्य नृतिकेसयत

घोडे हतयासयत
खंयच्या काळयुगातल्या झाडा पेडांसयत
लागता वाजूंक
लागता गाजूंक
लागता घुंवूंक
लागता खुदूंक
होयसळा, होयसळा, होयसळा

पुनवे राती
उफेत उफेत
येता
निळे पांचवे तळे धडयेर
भांगरा आंगाची
फुलां रंगाची
रातराणी
आनी पुराय
काळे पाषाणी
चंद चंदनी
देवूळ
लागता घणघणूक
होयसळा, होयसळा, होयसळा

## जोंग...रकता

मळब देठांतल्यान
दोंगर माथ्यांतल्यान
जोग कोंसळटा
दूद केंसरी रंगातल्यान...

घोंगवंचे हें दूद म्हवाळें
सपन कानापात्यार
आनी खिणांत जावचो
हो ब्रह्मांड थंडकिरांव

ल्हव ल्हव जावचें पुराय
विश्वच जोगमय
घडचें परमात्माचें दर्शन
एका खिणांत

काळ्या गोबऱ्या पाशाणी
शेंवाळ्यातल्यान
लाख झरीच्या विरविऱ्यान
झूरमूर झूरमूर...
जोग रकता
मळबरंगी इंद्रधणू
रंगान

दोळ्यांतल्या मळबांत
पावचो ना
मनाच्या करंडात
व्यापचो ना
जोंग कोंसळटा
फूलपांखरी धुंवराधुंवरान

चार वृत्तीचो
चार प्रवृत्तीचो
जोग...रकता...फुट्टा...व्हांवता
कोणाच्या देवबागेंतल्यान
कोणाच्या देवशेतात

सवण्यासवण्या बिरमुट्यांचो
नाच चोंब्याचोंब्याचो
पांचव्या पाचूंतलो
हो हिरकणी
कांय दिग्ग काळखाचो
उजवाड धनी

आमोरेच्या मोरपांखार
कुपाचो निळो गोबरो
प्रणयखेळ
कोणाय नदरेंतल्यान
पळोवंचें ताका
नजरच जावची
जोगमय...

सप्तसुरांच्या लयेंत ताच्या
ओलो केंसरी गंधार
सरवळी तालात ताच्या
कृष्णाच्या मिरेची...
तूळसमाळ

## पलाश

कोण जाणा
केन्ना सोंपतलें
जिविताचें अंत नाशिल्लें गणीत
कोण उरतलें निमाणें मेरेन
सांगात दीत...
जिणेचे अदीक वजाबाकींत
कोण गळटलें...ल्हव ल्हव
एक एक करून
देंठासयत केन्ना केन्ना
दुखरो हरवो दिखाळ देंट
दवरून रूखार...
पानगळ लागिल्ल्या रूखावरी
जिणेचो रूखय मागीर चलूंक लागतलो
रखरखीत तळपटचा सड्यावेल्यान
कांटय़ांतल्यान दोळ्यांत मोनीं दुकां घेवन
जंय जंय वाट माड्डीत वतलो
थंय थंय फुलतलो
रगत पियेल्लो
रगत जियेल्लो
पलाश

## शेळांव यादी

म्हजी आजी म्हणटाली
जिवीत म्हणटात तें आळवा पानावयलें उदक
पावसांत पडटा आनी वाऱ्यान व्हाळटा.
म्हजी मावशी म्हणटाली
गर्भाचें आनी मिर्गाचें सांगूं येता
केन्ना रचता आनी केन्ना झडटा तो?
म्हजी भयण म्हणटाली
पावसात भिजल्यार आनी घोवान मारल्यार
कोणाक सांगतलों?
ल्हव ल्हव हांव व्हड जालें
म्हाका होलमूंक लागलें हांचे
पावशी तत्वगिन्यान
आजयेलो घरकार आळवा पानावेल्या उदकावरी
रोखडोच व्हांवन गेल्लो
मावशेल्या पोटांत केन्ना गर्भच रचूंक नासलो
आनी म्हजी भयण जिवीतभर
घोवालो मारच खायत आसली.
आता ह्या रासवळ दुख्खाचो एक पावस जाला

## पुस्तक गिन्यानाचें

म्हजे आज्जेलें घर म्हळ्यार
आसतालो एक जिवावळिचो जितो जागतो जुंवो
जिवसाणिचो म्हासागर
आज्जेल्यो चार पांच धुवो
दोन तीन पूत
तीन चार जांवंय
एक दोन सूनो
आनी ह्या पुराय
चैतन्य धुंवळींतल्यान
जाल्ल्यो कितल्योश्योच
म्हज्यो मामेभयणी मामेभाव
मावशेभयणी मावशेभाव
सगळ्यांचे उलोवप वागप
चलप, भोंवप, नाचप
सगल्यांतच आसतालें एक
जितें जागतें चलतें भोवतें चैतन्य
रसरसून उजवाडाचें लोळ कशें
व्हांवताले हें चैतन्य
एके माळये वेल्यान दुसरे
रांदचेकुडींतल्यान म्हालकुडींत
बांयकडल्यान कुळागरांत...
काण्णां चुत्रांनी भोंवतना
एकेच पंगतींत जेवतना
मनीसच उबो राबतालो
त्या वेळार जितो जिवो जावन.

आनी कांय तेंपान
केंसांक येतली फुल्ल धवी धवसाण
जातली घडये बाय आज्जी तुजे धुवेची
आनी  तूं आसतलो आजो

बाय…
तुजी धुवय म्हज्या घरांत
सरसरीत भोंवतली नाचतली
पुराय घरच माथ्यार घेतली
आनी ल्हवच विचारतली
म्हाका सामको म्हऱ्यांत येवन
दोळ्यांत दोळे घालून
आज्जे तुजे कडेन सगळें आसा
पूण मनशांच कशी नात
गे…

मनशांच कशीं नात गे…

## मृगजळ...सावळो हरी

राधे नाच गो नाच यमुने कांठार
कृष्ण सांवळो
झिरपत येवंदी
दिकादिकांतल्यान

भांगर पालेवंदी
रूखारूखार
तूं नाच राधे यमुने कांठार...

मोहन स्वास
तूं उस्वास
मळब पानार
कदंब रानार
तूं नाच विरहिनी
विरह नाच

दोळ्यांतल्या दुकांक
हुंवार येवंदी
ल्हाराल्हारांतल्यान
कृष्ण बिंबूदी

सपनांतल्या मोरपाखांकय
गांवदी बेधुंदी गीता...

तूं नाच नाच राधिके
चंदन वनांत
परमळ बनांत
वेळा अवेळा हो
मृग पावस
रंद्रारंद्रांत कृष्ण

रास
अमुरपिक्या पिंपळ सुरार
राधे
तुजो जांभूळ जांभूळ
भाव नाच

असो कसो कृष्ण पिसो
वाजयत येता बन्सी धून
निरामय तन्मये
तूं नाच नाच
कृष्ण नाच

मदनयोगिनी...बेधुंद पावो
वाजता खंय
शेणिल्ल्या राना...
झूमझूमं पावस
पडटा थंय

हो भास मृगनयनी
तो तर मृगजळ...
सावळो हरी.

## वाट

काळजाच्या केण्णाची अशी सोदता
वाट
उजवाडाचो वादळ हुवांर
हो काळजाचो भरतेभार
अथांग दुकां तळ्यांत कसो लागना थाव
जिवीत सुटलें
मर्ण खुटलें
मदले मदीं ही तळमळ
अशी की काळोख भोंवरी
खंयच्या अज्ञाताची सुवांरी
म्हज्या मर्णाची ही मर्ण
सांवळी दोन दोळ्यांच्या
दोळ्यांतली बावली.

## प्रसन्ना एक्सप्रेस मडगांव

मोनी निर्विकार
रात
मळार झाडांची भुतां
खंय धांवतात हीं तंबाखुची शेतां
प्रसन्ना एक्सप्रेस धांवता
घाटां घाटांची वाट
वळणा वळणाचो काठ

चक्रव्यूह माथ्यार
खंयच्या जल्माच्या
पातकाचें हें भरिल्लें माप
ही काळीं
झाडांची भुतां
काय भुतांची शेतां
प्रसन्ना एक्सप्रेस धांवता

कोणाच्या मळबांत
नखेत्राची रात
कोणाच्या काळजांत
इंगळ्याची वाट
हे काळे इशाड्डे राती
पयसुल्या  पैलतिरा
मात
एकादशी वात

## आत्मघात

आयज ब्रह्मनिळायेंत
सुटला अरूप ब्रह्मपरमळ
कांत सोनायेचो
चंदन सुवाळो
वताचे हुनायेंत
कोण उफेतात
हुबत येतात
म्हज्याच दारांत
आनी सुटल्यात
मूर्णदुवाळे सगलेकडेन
असो मुक्ततायेचो
ध्यास लागला
कोणाक ह्या जवंजाळांतले सुटकेचो,
हुबत हुबत वता तो वताच्या भारांत
उजवाडाचो केण्ण कसो
अशें हे मर्णपिशें खुबूंक लागलां
काळजाच्या मुळांतल्यान
बांदावयले गच्च पांचवे सांवरेक आयज
अचकित भग्ग उजो पेटला
आनी पेटल्या केणाकेणांतल्यान
ती भरगच्च सांवर सांवळी
अशी ही जिविताची गच्च मिट्ट किण्णसाण
कळना कोणाकोणाच्या काळजांत
कसले कसले वावटळिचो उजो पेटला
काळखाच्या ह्या गर्भभुंयारांत
मिट्ट उजो पेट्टा जिविताचे निष्क्रियतायेचो
आनी उफेता प्रेत ताच्याच हातांत
जिविताचे निष्क्रियतायेचें
जिविताच्या आत्मघाताचें!

# तांबूड तांबूड...मरण घुंवळी

एके अभेद चौकटींत
हांव उबें
घेवन हातांत
तांबडेगुंज इंगळे
चारय वटेन प्रस्न फेर धरून उबे
आतां फकत
एकच मार्ग
आत्महत्या

तो फुतफुतता ल्हवच थरथरत
ह्या प्रस्नाची आनीक जाप
जावंक शकना?

एका प्रस्नाच्यो दोन जापो
जावंकच शकनात
जाप फकत एकच
म्हजे प्रस्न सुटावे करपी
म्हाका ह्या सगल्या
प्रस्नांपसून पयस व्हरपी
किण्ण बिण्ण पूण अमुपाची
शांती दिवपी
आतां तयारी मरणाची...

हांव ल्हव ल्हव उठ्ठां
आयस्क्रिम कलराची
म्हज्या आंगावयली साडी
कोणें तरी म्हळां मरणाचो
रंग असोच आसता...

हांव तोखेतां हारशांत
म्हजेंच रूप
नटनटेता कणाकणान
आग्नेल म्हणटा
आपलें शरीर आनी दुसऱ्याचें शरीर
हाचेपरस सोबीत दुसरी
गजालच आसना.
त्या वेळार हांव ताका 'पिसो' म्हणटां
पूण आतां हें म्हाका
भोव भोव पट्टा.

एके अळंग चालीन हांव सुट्टां
घरांतल्यान भायर ही वाट
निमाणें हो प्रवास सगल्यांत सुखद
हें सत सगल्या सतां परस खर

कोयराच्या डब्यांतलें प्लास्टीक
पोतयेंतल्यान सुकिल्ल्या रोजोलेच्या
फुलांचो हार
उक्त्या सड्यार पातळ्ळा
कोणाच्या मरण गळ्यांतलो
लग्न गळ्यांतलो?
काय देवगळ्यांतलो?
हांव फकत चिंतूक शकतां
पूण हांव जाणां...
उक्त्या सड्याचो चमत्कार
पावसाच्या एका शिरशिऱ्यान
सड्याचीं शिंरतरा पेट्टूंक लागतली
आनी मागीर घुंवघुंवतलो हांगा
सृजक सृजनाचो एक आगळो सुवाळो
ल्हव ल्हव पातळपी व्हंकल पांचवीसाण
ल्हाराल्हारांनी गाजपी पांचवो दर्या
पूण म्हाका तर फुडें चलूंक जाय

प्रस्न आनी जाप
फकत आत्महत्या...

शेजारची आण्टी जड वजें घेवन चलता
ती दुखाच्या कणाकणान
शिजता, भिजता, मरता, जगता,
हांव जाणा बेस बरें...
मांय हांव घेवं तुजें वजें
ना धुवें तूं चल बेगीनबेगीन
पाव तुज्या पेण्याकडेन

ती हांसता पोट भरून
निष्पाप निश्कलंक तिजो
हांसो हांव पुंजयतां
म्हजे व्हटयेंत
मागीर ल्हव ल्हव हें
हांशे पुंजोवापाचें म्हाका
पिशेंच लागता
हांव हांशें पुजयता वतां
फुल्लट, खळखळीत, परमळीत
वळखी अनवळखी हांशें
वड पारंब्याचे गच्च जाळयेंतल्यान
व्हावपी सुर्याचें प्रफुल्लीत उजवाडीत हाशे
रेंवेच्या कणकणांत फाफसल्लें
चंद्राचें चंदेरी शितळ हांशें
तरातरांचें हांशें

खिणांत हांव दोंगराच्या
त्या गच्च तेमकार उबें
दिका दिकांतल्यान
अरसून
आयिल्ली ती तांबूड तांबूड...
मरण घुवंळी

ल्हवच नदर मळबार
कितें किमया
दाखयता…लिपयता
हो लखख दक्क बदल
खंयच्यान आयलें ही वेगळी
उंचाय वेगळी सासाय
घेवन हें पाखरू
खिणांतच पापण्या भितल्ल्यान
पापण्यां आड जालें
खंयचो दिगंत मापूंक गेलें
खंयचो दिगंत सोदूंक गेलें
आता मळबपटार
मात वेगळोच देखाव
हें भिरें कांय बक्याचें
कांय श्रृंगार एकमेळ
चैतन्याचो
सगलेंच कशें चैतन्य
फकत चैतन्य
ही चैतन्य फांतोड
रूंवरूवूंक लागता
धुवधुवंक लागता
उटंगारांचो पावस
जावन झडूंक लागता
म्हजे पेशीपेशींत
म्हजी जड जाल्ली व्हट
खिणा…खिणान…
ल्हव ल्हव जाता

हांव धांवतां परतिचे वाटेन
हो वेग खंयच्यान आयलो पायांक?
हांव दारार उबें
दिग्विजय मेळिल्ल्या
राजा भशेन

तो विचारता प्रस्नाची जाप मेळळीय
हय...प्रस्नाची जाप मेळळी
आनी खूब खूब
लाख मोलांचें धनय मेळळें
हाव ल्हवच गच्च रिगता ताच्या गोपांत
पुराय कवळून घेवन
थार न्हिदून वतां...
रातभर मात
पारजताचो शिंवर पडत रावता
आमच्या
सपनाच्या संवसारार

## गोलुलें सपन

गोलूक पडलें
सोबीत सपन
परयांच्या देसांत
मळबाचें न्हेसण

चंद्रिम आयलो येवकाराक
नखेत्रां आयलीं घेवन
चंदनाचे पाट

चारय वाटेन
व्हांवतात व्हाळ
व्हाळाच्या देगेर
भांगराचो घाट

फुलांच्या पाकळ्यांत
म्होंवाची झर
झरीच्या माथ्यार
म्होंवल्याचें घर

घराच्या आंगणांत
परयांचो खेळ
खेळाच्या मांडार
कंजा चिंवरा शिंवर

गोलूक पडलें सोबीत सपन
परयांच्या देसांत
मळबाचे न्हेसण

## मरणाची वाफ

खंयच्यान उठल्यो ह्यो अस्पश्ट रानकिळच्यो
कोण घुसला खयच्या रानभोवऱ्यांत
आतांच भुपाळेचो आलाप गावन
उठिल्लो गांव दुभंगून गेलो
एका खिणांत...

खिणा खिणांत पेटलो
हो येदो याग
जीवन मरणाचें रसायन
एक जालें कणाकणान

मुमताज
तुज्या ओंठार
तुजे आवयच्याच
रगताची कशी गो
दाट साय

खंयच्या भुंयारी मुळान
घातलो हो घरघर घाव...
आनी खांपाखांपानी लुटलो
पुराय गांव

कोण खेळळो थरथर गरबा
शकुराच्या कंवळ्या हातार...
पांयाची समिधा घेवन गेलो
खंयच्या अनवळखी
यज्ञकुंडात

कोणाक लागले अशे हे
खर दुवाळे...

आनी चाबडायत सुटलो
पुराय शार

रेखाबेन
खंयच्यान आयली
ही अनवळखी
म्हार फांतोड
आनी हुबोवन
घेवन गेली
तुजो पांचवो
संवसार
एका सेकंदात घुंवघुंवले
बाळशेपण
आनी भविश्याचो जाळ
आतां आवय बापायच्या
सरणार
स्वयच्यान अचकीत सुटलो
हो मर्ण वावटळ
आनी घुमघुमत गेलो
एका दारांतल्यान
दुसऱ्या दारांन

सुत्रतायेचे खर घुंवळेंत
कोण सोदता
आपलीच मसंड
आपल्याच हातान
काळजाचे पडले
हजार वांटे
आनी
चोंय वटेन हुबता
फकत मरणाची
वाफ

रक्त रंगी काळ दुख्खां
निशेलीं कोणाच्या दोळयांतल्यान
आनी हुंकार उबो जालो
सगल्यांच्याच पापण्यांत
आतां रात दीस भुंयकांपांचे
झटके दर एकट्याच्या
बंद दारार

फांतोडे वेले देवुळ-दिवे
खिणांत जाले दोळ्यां आड
हजार कफनांचें भिरें
मात पावलें
पयस पयस दिगंत तेरार...

## ओली रानां

भर वसाडेंत एकटे एकाकी उबें
काळजांत हजार पावलांचें वजें
चारय वटेन वाट वादळाची
माथ्यार किट्ट काळी रात उमाशेंची
दर्या घोगेता रात जोरगतीची
मना वेळेर नक्षी तुज्या यादिची
एक एक युगां उलगलीं
खोल खोल गर्भखोल
ओलीं दुकां पाझरलीं
पयस उजवाडाचीं तरंगां
पयस खोशयेचीं आवर्तना
सपनाकय लागली घडूंक
मध्यानेर जागरणां
परतणेचे वाटेर पेटलीं
ओली रानां

## पावस सुंवारी

दोंगरातल्यान शेनेता पावस
भुंयगंधान परमळ्ळी धर्तरी
सैर भैर नाचता वारो
पांचव्या पांचव्या पानांतल्यानी

सृजन भार फळ्ळी धर्तरी
कळ्या कळ्यान अळमेली धर्तरी
तांबडे मातयेंत विरगळ्ळी धर्तरी

किण्ण पावस
किण्ण रात
रानातली किण्ण वाट
पाचव्या रानांत
पाचव्या पावसांत
पाचव्या वाऱ्यांत
पाचव्या मनांत
पावस
पावस
पावस
पावस
जाली धर्तरी

## वाटेचो गांव

तूं येतलें म्हणपाची
सुलूस लागली
आनी उकतीं केलीं
रंद्रारंद्राचीं दारां
आंगणा माटवांत
पडटालीं
तुजींच गो कवनां
गर्भ आंकुरली व्हंटी
पांचवी पांगुरली मठी
पावलां कणकणी
घाली तो
साळकां माणकांच्यो
पायघडी
दोळ्यां ताच्या
तुजीं म्हजीं
म्होंवी गोड सपनां
ताच्या हाताचो पाळणो
दोळ्यां पातकड्यांची पालखी
तुजे खातीरच काळजांत ताच्या
लाख लाख फुलज्योतींची
आराधना
आयलें तूं
जावन दोगांयच्या दोळ्यांतलो धुंवाधार
दंवाभार...
काळजाची घटाय
मळबाची दाटाय
मेजतना
पयस रानार
शिरीमिरी पावस
सांगचें आसलें

तुका खूब कितें
मोगाचो चंवर फुलून पालवतना
कसो थिजिल्लो
पयस...फांन्यापारा
मोतयांचो गांव
कसो जाणविल्लो
ताचे पयले भेटेत
सातां जल्मांचो बंधभाव
अनंत जल्माचे सुवाळे
कशे खेळयल्ले माथ्यार
विरहयातनांचे इंगळे ह्याच
जळयिल्ले तळव्यार
सांगचें आसलें तुका
खूब कितें
उतरा मोनें मोनेळीत
सोदतात आता
वाटेचो गाव

## कविता संवसाराची

घाट घाट वळणाची काळी दाट
वाट चलतना
पांघरता आंग आंग
ओली दाट गच्च गच्च
पाचूकणसी शाल कवितेची
आनी
धगयाळीं ओली शेवाळी
पावलां जावंक लागतात
रक्तचंदनी...
उटांगरांचे वाटेंत
शिरतरांच्या गांठी गांठींत
वाजूंक लागतात वाजत्रां
रंद्रारंद्रांत शिडशिडत झडूंक
लागता ओलो सितेचंवरी
अभिशेक खोशयेचो

## काव्यकणी

दीस रात तळमळत
खटपटत सळसळत
सुल्लखी भांगरावरी
तापत न्हिवत
करता कविता
कवी
संवसार मात
सोडयत वता आपल्या फुगासांवाच्यो गांठी
वाचून कविच्यो काव्यकणी

## पावस

ओलो चिप्प पावस
ओली चिप्प रात
ओलें चिप्प राजांगण मनाचें
ओलो पांचवो दोंगर
कांगल्या घागऱ्याचे घुंगर
ओल्या निळ्या दर्यात
ल्हारांचें निमाणेशें आंकवार न्हाण

ओलो धुंवर धुंवर
रानजायांचो चंवर
शाश्वत अशाश्वताच्या
पाळण्यांत धोलता
निळें पांचवें
ब्रह्मांड ओलें

## साक्षिदार

चोंयवटेन पेटले काळखाचे दिवे
सुरू जाली कवितेची जीवघेणी पानगळ
मध्यानरातीर रोयलो बॉब
फातोडेर वळवळत येवपी गर्देक चेंचावपाक
नाकपुड्या पसून मस्तका मेरेन
झणझणलो मरणाचो वारो
उतरांय घेवक लागलीं
स्वास उस्वास रगताचो
चारय वटेन तुटिल्ल्या हातांबोटाच्यो राशी
वाटेवाटेर उब्यो जाल्यो
चिंध्या चिंध्यांच्यो बावल्यो
शारा पोंदाच्यान फसतफसत व्हांवत
काळें विखाळ मरणाचें वारें
मणामणान वाडलें माथ्यावर
मरणाचें वजें
आतां सगल्यांची
बोटां कवी वटेन
आनी तो एकटोच
हात पांगरून उबो
ब्रह्मांडाच्या निमण्या
दिसाचो साक्षिदार कसो

## सृजन परब

अशें कशें रूजचें बीं
रानव्हाळांत खडपांत
नकळटाना
ओल्या ओल्या मातयेक
सूटलो
सृजनाचो ओलो पांचवो परमळ
थेंबान थेंबान रान न्हाता
माघांतलो आडवेळो
पावस
माती सैरभैर
देहात ना बळ
मनात त्राण
झिडप झिडपता
सांवर सांवरना
सोसून सोसवना
अवेळावेलो हो
सृजनाचो भार
मातयेच्या पायांक
हजार सोनसांखळ्यो
मध्याने राती कूस परतीतना
मात
सपनात चोयवटेन
सृजन परबेच्यो आरत्यो

## यादिच्यो सांवळ्यो

जाय स्वासात फुल्ली
सांज नदरेक भुल्ली
चांफो परमळ घाली...
मूळबार आयली कुपां काळी
सैम कसो पिसावलो
मंद वारो हो व्हांवलो
कोणा नदर
कोणाक घाली शिळोणी
कोणा यादिच्यो सांवळ्यो
झिळमिळी
पयस निळ्या देगेर
चंद्रिम असो धारेर
सगल्यो वाटो पयसावतना
दोळ्या दुकां सांवार झूमझूमी
दोन वाटेच्या मध्यार
दोट्टी पालखी खांदार
वाटो सांडूदी सांडूदी
मन पिपळाचो सांगात
सळसळ सळसळी

## राधा कृष्ण

राधेच्या आंगणात
नवलखी मोराचें भिरें
मिरेच्या दोळ्यांत
मेघरंगी कृष्णाचे पेणें

यमुनेच्या झिळमिळ्यार
राधा उबी मिरेच्या दारात
मिरेच्या ओंठातले गीत जावन

आलतडीन पलतडीन
कृष्ण बांसरी धुवांधार
रान खेळात राधा कृष्ण
गळटा गळटा
पांवळे पांवळेन
यमुनेच्या शिरंतरातल्यान

## वायरल फिवर

ऑफिसातल्या तीन मजली
वातानुकूलीन
बिल्डिंगेतल्या
गूबगूबीत कदेलाचेर
बशिल्ले म्हजें कलीग
कितलोसोच वेळ जालो
करता खबऱ्यो आपल्या
सात वर्साच्या चल्याक
जाल्ल्या वायरल फिवराचो
भायर पडपी गच्च काळ्या
पावसां कणकणी ताच्या
तोंडावेले चिंतेचे जाळे गडद
जायत वता
पूण म्हाका मात
मुखावेल्या जनेलातल्यान
स्पश्ट आनी सरळ
दिसता मुखावेल्या आकांतळ्या
कचऱ्या पेटाऱ्यातल्यान
पाच स वर्साची
तीन चार घांटयाली पोरां
भर पावसात आंगार धड
कपडेय नासतना
कितेंतरी उस्तीत उस्तीत
आपल्या खांदावेल्या साकाच्या
पोतयेत भरतना

## धुंवरेल्ली सकाळ

तुज्या स्वासात फुल्ली
धुंवरेल्ली सकाळ
एका खिणात जाले
हांव गच्च फुलिल्लें
ओवाळिणीचें झाड
दोळे धापतकच
पुराय चंद्रिम आयलो
हाताच्या मोतयाळ्या
कोंदल्यात
पाना खंयतरी
सळसळ्ळी मंद रानव्हाळात
तुटलो सांगात सासणाच्या सासणाक
चांदण्याचे निळे धवें थेंब घेवन
अनवळखी सवणें उडलें
कागदाच्या शारात

## काळजातलो दंव

अश्या एका खिणा
जावचो मोग सुगंधेचो परागाचेर
सगलीं आडवळणां हुपून
गीत मोगाचें गावचें
सूर्य अस्तमतना
नखेत्रांचे वाटेर

गुलाबाच्या रानांतल्यो
गोड खबरो
जसो ओवळी पोंदा पडचो परमळाचो
सडो
वाऱ्या ल्हारां
नक्षत्रां मेळ
असो मोग सुगंधेचो परागाचेर

ल्हवच पेटवें पांचवें रान
पांचव्या रानांत
पांचव्या वाटो
पांचवे वाटेर
पांचवो दंव

दंव दोळ्यांतलो
दंव मनांतलो
दंव पराग सुगंधेच्या
काळजातलो

## गर्भ भोंवरी

अशी हांव
आदिमाता
जल्मा जल्मातंराची
कुसव्याच्या गर्भकणयेत
एक नवो जीव आंकरेता
अशें चैतन्य सळसळटा
एक नवी रसणाय कोंमरेता
म्हज्या आंगा आंगाक
एक एक पालवी
असो जूळटा म्हजो देह
खंयच्या वळख देख नाशिल्ल्या
पुर्व पुर्वतरांकडेन
वर्त वर्तमानाकडेन
भुताकडेन भविश्याकडेन
अशी मळब दिठी
तत्र दुध मिठी
म्हजी कूड
कोणाचे वीर्य घोळयता
कोणाचो जिवनरस केळयता
कुसव्यात नवो जीव पुजयता
आनी मनयता सुवाळो
आता जल्मांतराचो
दिव्य वात ती
जीवन ज्योत ती
धर्तरेच्या नात्यागोत्यात घुस्पल्ली
असो वाडटा निरंतर
घुंवघुंवता एक जिवनचक्र
म्हज्या देहात
वाडटा कणाकणान भरतेभारान
मायेची रसणाय

रूजवणेची सासणाय
कणाकणान फुलता गर्भव्हटयेंत
पुनवेचो चंद्र मळबात
अशें नातें म्हजें मातयेचें
अशें नातें म्हजें कस्तुरिचें
माती हांव
कस्तुरी हांव
मळब हांव
धर्तरी हांव
तुजी जल्मजल्माची
आदि दिगदिगंतरातली
माय हांव
नाते तुजें म्हजें
नाळयेचो देठ मळब धर्तरिचो
असो काळोख मेळ
असो भोंवर खेळ
खेळात मेळ
मेळ्ळे एक गुपीत
पुजयता गर्भ वज्र कणयेत
असो तुजो म्हजो
सायमेळ
अशी भोंवर भोंवरी पुंजयता
गर्भभोंवरेत फाल्याच्या ब्रह्माडाचो
असो अप्रुप वंशखेळ खेळयता.

## श्रावणरात

झिमझिम...
श्रावण रात
मळब कुपात
सावळ्यांचो
श्याम खेळ
पानां कणकणी काजुल्याचो
मिणमिणटो श्रावणमेळ
झूळझूळून...
येतात पयसूल्यान
कोणां यादिचें सूर
पयस धुंवर धुंवर
रान फुलांचे दोंगर
खूळखूळ व्हांवता न्हंय
सपनेल्या गांवात
रान गोठेला
निशब्द...रानकवदे
काळजांत
कोणा मनातली रात
आपल्या आपणाकच नांगरून
पयस उबी किण्ण किण्ण

## परमात्म

अशेच मुड्द्या भशेन जीण जियेतात
सगलेच अर्थहीन
हांचे जिणेक कांय अर्थ ना ना मरणाक
अर्थहीन जाळ्याचो हो चक्रव्यूह
अंतहीन जाळ्याचो हो चक्रव्यूह
धांवता एके अवस्थेंतल्यान दुसरेंत
तरीच थंयच आसा मुडदयालें जिणें
कित्याक हांकां जिते जळयनात
कित्याक हांकां जिते पुरयनात
हांकां कोणाचेर भरपूर मोग ना
नाय कोणाचेर भरपूर द्वेश
खंयच्यातरी भर रस्त्यावेल्या शिंप्यान भायर
उडयल्ल्या चिंध्यांनी विणलां हांचे जिणें
फक्त मुड्द्याभशेन जगप
किनें चितप ना किते रोवप ना, किनें पिकोवप ना
फक्त ह्या चक्रव्युहान स्वतांक घुवडावप
ह्या जाळ्यांत शेणप
हांचे पिरायेक कांय अर्थ ना
केंसाचें धवसाणेक अर्थ ना
हे राय न्हय, हे भिकारी न्हय
हे संन्यासी न्हय, हे भक्तय न्हय
पूण तरीय जगतात
हड्द्या सकयल्लो वेंतभर फोड भरत भरत जगतात
हे तर आत्मेय न्हय
हे तर शरीरय न्हय
वरसांची वरसां पसूनचो हो प्रस्न
हे कित्याक जगतात
कित्याखातीर जगतात
खंयचेय नेतृत्व ना तर हे मरून वतले
खंयचेय देवत्व ना तर हे पुरून वतले

तरीय चिंतता हे मन फकीर
हे कित्याक जगतात
हे कित्याक जगतात
मन अंतरंग ध्यान अध्यान खंयच्यान उठलो
हो चीर आवाज
सांतरंगी कणा शिवाय मळब रितो
कणाकणा शिवाय धर्तरेचो गर्भ रितो
हांच्या अस्तित्वा शिवाय परमात्म रितो

## फास्क्यो

म्हजें घर
एके एके कुडिचें
एका एका दाराचें
एका एका जनेलाचें

दर एके कुडीक
दर एका दाराक
दर एका जनेलाक

एक एक फास्की
चौकोनी शटकोनी
ल्हव ल्हव ह्या फास्कांक
आतां राकेसी पाळा फुटूक लागल्यात
रक्तवर्णीय शिराच्या सुतात घुस्पूक लागल्यान
म्हाका नकळत
हांव धांवता मनांतल्या मनांत
ह्या फास्क्यांपासून पयस पयस
पूण त्यो म्हजी फाट सोडिनात
म्हाका थंडावन उडयतात
खिळावन धरतात
कोणे घडयल्ल्यो काय ह्यो
चौकोनी शटकोनी आकाराच्यो
फास्क्यो
म्हजे आज्जेन, आवयन
काय म्हज्या पापाले काणयेंतल्या
त्या दिग्ग काळ्या काळपुरसान
तोडून फोडून उडोवच्यो
दिसतात ह्यो सगल्यो
फास्क्यो
वीट वीट येता ह्या

सगल्या फासक्यांचो
हांव तांतुतले खंयचेच
फास्केंत सारकें
बसना

## रात

रात अशी धुंद मोनी
पयस रत्नपाखी सकाळ
कृष्ण मोनो
राधा मोनी
साळका आंगार
निळि धवी फुल्लटसाण
कृष्ण राधा
उधळी रंग
यमुने मदी
रासरंग
कृष्ण राधा
खेळी खेळी
हरयाळेच्या
दव्या थेंब्यात
रात अशी धुंद मोनी
पयस रत्नपारखी सकाळ

## काळ्या किट्ट भेसात...उबे फातीमा

ह्या धव्याफुल्ल फांतोड पारार
अशी कशी काळी धुंवरी
उफेता हूबता...घूमघूमता
धूमशेण काडीत
विचाराच्या तंद्रेत चलतना बस स्टॉपार
भर गर्देत
पुर्ण विधवेच्या
काळ्या किट्ट भेसात
म्हजी गोरी धवी
तरणी इश्टीण उबी फातीमा
नदर खंयतरी पयस पयस
कोणाचे तारू
खंय सांडला
अशें कशें भर पावसात
कोणाचे ब्रह्मांड
पूराय विरगळ्ळा
आंकाताळ्या दर्यातळात
माथ्यावेलो घसघशीत पिंपळ
हुबून गेला पेडासयत उब्या उबो
ताचे पोंदा
जितें कांड कशे जळटा फातीमा
बस स्टॉपावेल्या
धव्या धवाड्या गच्चेत
संवसाराच्या निमण्या क्षितीजाचेर
उबें आशिल्ल्या जखख म्हातारेवरी
निशब्द निश्चल
काळ्या किट्ट भेसात उबे फातीमा
हांव पयस पयस
काळ धुंवरेफाटल्यान
दुकां आडायत उबें

## कविता

संवसाराची
घाट घाट वळणाची काळीदाट
वाट चलतना
पांघरता आंग आंग
ओली दाट गच्च गच्च
पाचूकणसी शाल कवितेची
आनी
धगयाळी ओली शेवाळी
पावलां जावंक लागतात
रक्तचंदनी...
उटांगराच्या वाटेत
शिरंतरांच्या गांठी गांठीत
वाजूक लागतात वाजत्रां
रंद्रारंद्रात शिडशिडत झडूक
लागता
ओलो सितेचंवरी
अभिशेक
खोशयेचो

## गोकूळ सांज

शियाळ धूकाळ थंड तिनसांज
देवली गोकूळात
कृष्ण बांसरी
झंकारली
चिचेच्या काळ्या दाट
पानापानातल्यान
पयस दोंगरेची
देंवतण…पयस गांवच्या सोदात
अनवळखी भिऱ्याची सरकळ
किण किण
गाय वासराच्या
गळ्यातलो गोफ राग
तांबडो जांबळो
उडटा धुल्ल लिकलिकत चोयवदान
वाऱ्याचो नाद
परमळटा दिकादिकात

निळी काळी दाट दाट
यमुनेची रानवाट
रानावनातल्या
सावळ्याचो
सोदता माग
धुंवरेली मोतयाळी
शिं धुकाळ

अयस पयस
मळबात
दिकाळ धुंवर पुसट पुसट
निळ्या भिजऱ्या
तारकांचो गांव

## कृष्ण झोपाळी

दोन दोंगराच्या कळसार
पेटले उजवाडाचे रान
पयस
चंदनाच्या रानात
जायाजुयाच्या मळ्यात
घातलो गोपयानी माटव नाचाचो
गोकूळेच्या ओल्या गोटयात
भिजऱ्या दोळ्यान
उबी राधा
पळयता वाट
कृष्णाची
पयस पयस
कोंड्याच्या रानात
सरसरता आळी
आनी रसरसता
बडी तोणयां
खेळाच्यो
राधे कृष्ण येता येता
वाऱ्यार बसून
बासरी वाजता यमूने
धारेन
सजयात सजयात गोपयानो
फुलां परमळाचे
झोपाळे
चारय वाटेन
चारय दिकेन

## विरह चांफिणी

कृष्ण विरहात
चिंब ओली राधा
आशाढी पावसाळ्यात
काळे निळे
घनदाट थंड वारें यमूनेचे
जाली श्यामली श्यामली
राधा
दोंगर माथ्यावेल्यान
भोंवडी घेता
गोकुळेची पायवाट

विरहात चिप्प चिप्प
कृष्ण पिशी
राधा
चलता साळकां
पाना पानार
दवरून पावल
खळखळटा पायापोंदा
विरहाचो
पावस लोट
धुंद मुग्ध
अबोली
राधा जाली
विरह चांफिणी
धव्या शुभ्र
भेसातली
हिरकणी
जाली श्यामली
श्यामली राधा

## आडरान

रान पेटले पेटले
ओल्या पावसात
तांबड्या मातयेत
धल्लो शेतांशेतांनी
पांचवो ताल
निळ्या निळ्या
मळबाचे
सूटले भान
चोयवटेन हुंबारत
पेवत आयली
नखेत्रांची चांदरात
उदकेल्ल्या पावलांनी, पावस पोवळ्यांनी
न्हंयचो झळक झळक
चांद नाच
ह्या आडवेळा आडखिणा
कोणा राधेचो
कृष्ण सांडलो
आडरानात आडगांवात
आडमनात

## गरिबी

ताणे दिले खडेगाठ लॅक्चर
भारतातल्या गरिबेचेर
झोपडपट्टीचेर आंकडेवारीसयच
हांवे ल्हवच उठून ताका म्हळें
भारतात खरेंच गरिबी आसा
हांवे पळयला म्हज्या दोळ्यांनी
बालाजीच्या देवळा वाठारात
जल्मभर भीक मागपी भिकाऱ्यान
एका लाखाची देणगी दान करतना
देवापायार
पुरीच्या देवळात प्रदक्षणा घेतना
पळयला हजारानी लोकाक देवाआंगार
आपल्या हाताातली भांगरा, बोटातली
मुदी गळ्यातली सरपळी भिरकावन
उडयतना आनी तूं म्हणटा
भारतात गरिबी आसा
तुवेंय पळयला आसतले
श्रवणबेळगोळात बाहुबलीच्या
मस्तकाभिशेकाक
फातरा पुतळ्याक
तुपान बुडबुडयतना
दुधा ताकान धंया म्हवान
बुडकुले बुडकुले भरून न्हावयतना
आनी तूं म्हणटा
भारतात गरिबी आसा.

## बोर्डेचो रस्तो

शांत प्रशांत
स्तब्ध थंड
बोर्डेचो हो रस्तो
पावस आताच
घोग्यानी पडून
थांबला
मळब निवळ नितळ
रस्त्याच्या खांची
कोनश्यातल्यान
ल्हान ल्हान वझरे
झुळूक झुळूक व्हांवतात
रस्त्याच्या कुशितल्या
धव्याफुल्ल म्हाल म्हाताऱ्या
पोरण्या कपेलातल्यान
ती भायर सरता
मोटवीशी व्हिस्तिद घाल्ली
चाळीसावयर आसचीना
तोंडात
क्रिस्ताच्या व्हडविकायेचे
गीत नमन ती ल्हवल्हव गायता
ल्हव ल्हव धूकळटा व्हिलचॅर
व्हिलचॅरार आंगाची
कवळी, गुटली करून बशिल्लो
मदीच माथें खरपूपी
मदीच हांसपी, मदीच रडपी
तेरा चौदा वर्साचो
मॅन्टली रिटार्डड
तिचो भुरगो
फुलाचो पाटलो
धूकलचो तशी

क्रिस्ताचे तुस्तगीत
गायत गायत
ती हे वजें
धूकलीत धूकलीत
चलता ह्या थंड शांत
पावसाळ्या फातोडेर

## कॉल सेंटर आनी ती

तिची रात विरगळटा
दिसात
आनी दीस रातीत
कांय दोनय सांडल्यात
ह्या मल्टीनॅशनल
कॉल सेंटराच्या
गडगंज दरवटयार

तिचे भारतियत्व
कॉल सेंटराच्या
खूटयाळ्याक
हूमकळटा आनी
पुरायेन मनात देहान
वाचेन कायेन
युरोपीयन अमेरीकन
जावन
खूल जा सीम सीम
म्हणत ती एका अजब
अलीबाबाच्या भुंयारान भितर
सरता
फांतोडेर जेन्ना तिची आजी
शेण शितुडो फाफडीत
कंवळी सुर्य किरणां
आंगार घेत पयसुल्या न्हंयच्या
धारेक पळेत थापताली भाकरी
तेच वेळार ती टेलीफॉनार
कमप्यूटरार खंयच्या
खंयच्या साता देशा पलतडच्या
मनशाच्यो घुस्पटचो सोडयता
तांच्यो गाळ्यो खाता

पूण पुरायेन तन मनान
युरोपीयन जावपाचो यत्न करता

ही दोट्टी  जीण
कॉल सेंटराच्या
भायर भितर
भारतीय युरोपीयन
ती जगता
जगपाचो यत्न करता
आनी मदल्या मदी
आपल्याकच सांडत
वता खिणा खिणात

# कृष्ण विरह

कृष्ण विरहात जळली राधा
कृष्ण यादित सांडली राधा
चारय दिकांनी कृष्ण कृष्ण
सोदता
कृष्ण रंगात रंग रंगली
कृष्ण कृष्ण जाली राधा
यमुने देगेर
कदंब रानार
रूखा रूखा कणकणी
कृष्ण यादिची झोपाळी
दृश्य अदृश्याची भांग पिली
चंदन रानात
साळकां तळ्यात
कृष्णा संगंत
रास रंग खेळली
राधा
मध्यानरातीर चोयवटेन
कृष्ण यादिची बासुरी
फात्यापारार झिळमिळ्यार
राधे दोळ्यात
कृष्ण कृष्ण येता
देवून
कदंब रानात चारय दिकानी
कृष्ण बासुरीचे
गंध वारे
रातभर रानभर
दंवरात भिजली
कृष्ण कृष्ण
जाली राधा

## पर्दानशीन

काळ्या गच्च कुपांआडचो चंद्रीम
तशी रूबिना काळ्या किट्ट बुरख्याआडची
काड उडय तों बुरखो रूबिना
खिणात जा बेपर्दा
तुज्या काजळा आडचो
वादळी काळखी घुस्मटमार
आनीक सोसूंक जावचोना
काळजांत भरूंक लागला
वाळवंटी हुवार
खंयच्या काळ्या काळाचो
बावटो हुबयत ल्हव ल्हव
चरत्यावरी हो श्राप अजस्त्र
तोंडानी फोफेवक लागला
एका पिळगेतल्यान
दुसऱ्या पिळगेत
कितल्यो पिळग्यां खतखतल्यो, कळवळ्यो
वळवळ्यो, धगधगल्यो मोन्यो मोन्यो जावन
शिजल्यो ह्या पदर्याआड
खंयचो धर्म खंयची रीत खंयचे नेम
हे सगले तुजे आड केल्लें
एक जबरदस्त कारस्थान
कोण जाणा
कितल्या पिळग्या पिळग्यानी
कितल्या युगपुरूशानी
हि तुजी राखण करता
तुकां सांबाळटा
इज्जत दिता
मान् दिता
मर्यादा दिता
म्हण फटी मारल्यो

अस्सल फटी
एकदाच हातात घेवन पळय
तो वेलदी जरीबुट्टयानी भरिल्लो
काळो किट्ट पर्दो
तुज्या वेदनेच्या असंख्य दुखांनी
भरला
ताच्या पेशीपेशीतल्यान तुज्या
शिजिल्ल्या रगताची धार लागल्या
तुज्या मनाचो घुस्मटमार
धगधगून उठलो
तिज्या रंद्रारंद्रात
आता वेळ पावला
तो केन्नायपेटून उठत
जळून वचन तुजे सयत
म्हण आता तूंच शांतपणान
काडून उडय
खिणात जा बेपर्दा
रूबिना खिणांत

## क्षितीजमेर

गच्च पावसाचो झाडोमोडो
काळोखून आयली भोंवतण
विज कडकड कडकडता
भोंवरो भोंवरो जालें मन
पेटून उठलो देह
राना वनाक चडली
असली कसली नशा
पानां धुल्लासयत
हुबना वारो पिशाळ
झिरमिरत सरसरत तडतडत
आयलो पावस
देह भान विसरली माती
रंद्रारंद्रात मृदगंधाची धुवळ
मळबातल्यान दर्यातल्यान ल्हारांतल्यान
लक्ष थेंब्याचे न्हाण न्हावन
तृप्त ही धर्तरी
उबी क्षितिजाच्या मेरेर

## अस्लम

अस्लम न्हिदला
थंड शांत शांत
चीड रूखा पोंदा
धर्तरेवयल्या स्वर्गात
कश्मिरात
ताच्या तकलेतल्यान
व्हांवत धावपी
थेंब थेंब हून
रक्ताचे गोंठेल्लें तळें
जायत चल्ला
अस्लम कोण
अस्लम नझराना नसिरालो पूत
अस्लम टेररिस्ट
अस्लम अठरा वीस वर्साचो
जेहादी
बी. एस. एफाली गुळी खावन
न्हिदिल्लो अस्लम
म्हगेर तुगेर जल्मा आयिल्लो
जाल्यार, रांदता रांदता
किचनात खबऱ्यो सांगतलो
आसलो हजार नवी बायक, कॉलेज,
करियर, गर्लफ्रेन्ड, बॉयफ्रेन्डस, सलमान
प्रिती आनी किते कितें
पूण ना अस्लम कश्मिरचो
सुपत आनी म्हणच तो
शांत न्हिंदला चिड झाडां पोंदा
फांतोड पारार खंयच्या
अदृश्य सर्गावेल्यान हुबत हुबत
आयिल्लें झिरमिरीत बर्फाचे
शेळावं थंडकिरांव पांघरूण

घेवन
कश्मिराच्या सर्वांग सुंदर सुकूमार
धर्तरेर आपल्या रक्ताचें
नवें तळे सृजन करत
नवो इतिहास घडयत.

## काळखाची रिणां

सगळ्यापसून पयस पयस
जिणेच्या निमण्या तोंकार
जंय निर्भेड काळोखाचे राज्य
मोनी झाडां पेडां
काळखां दुखा तणां आंगा पांगा
मळब गायता
काळखा कुवाडे
अश्या दिग्ग काळखां संवसारांत चलतना
मदिच खंयतरी
चौकट फुटिल्ल्याचो
आवाज खळखळटा
काळखां रेंग
तुटोवन कोणतरी
उजवाडा सोदात
झोंपय घेता.

## रावल्या वाट

पावुलवाटेर कोण उबें
कोणाची पळयत वाट
अंतरंगात पावस उपाट
रंद्रारंद्रात ताचो भास
भिणभिणटी वात तेलात
मिणमिणटा खिणाखिणात
पावल घाल बेगीन
तुजेखातीर आशेल्या वाट
रंद्रारंद्रातल्यान फुलून वचूक
तुजेखातीर रावल्या वाट

## भिजरे मन

ताज्या भिजऱ्या दोळ्यातल्यान
ताजे दर्याळिल्लें मन
ल्हव ल्हव परगटता
ताजे तनमनात परमळिल्लो
मळब परमळ
ल्हव ल्हव करीत
सगल्या मनाच्या कोणश्या कोणश्यात
पातळटा
आनी ताचो ध्यास
ताचो बासरेच्या सुरान
कंठ काठात नादाचो
दर्या व्हांवता ताजो भास
मनचिप्प भिजरें करता, मनचिप्प भिजरें
करता

## दिगंत मापणी

अशी ही दिगंत मापणी
म्हज्या जिविताची
अशी मापणी
म्हज्या भावनाची
म्हज्या रंगाची
म्हज्या लाबायेची
खोलायेतल्या काळखी हुंवाराची
दोळ्यांतल्या दुकां भरतेभाराची
तिरश्या, घारश्या, काळश्या दोळ्यांच्या बुबूळातल्यांन
ही म्हजी मापणी चल्ल्या
लग्नाच्या भरिल्ल्या बाजारात
जोखून तोलून मोलून मापून
अशी युगां आरततात परततात
मापणीचो माप बदलता
रूपां बदलतात
पूण तीच दिगंत मापणी
चलता अजूनय म्हज्या
लांबायेचो, रंगाचो
थाव घेत

## संगम प्रवास

तुज्या दुःखाची
सावळी म्हज्या जिवितार
पातळळ्या अशी
व्हांवता अशी मळब दुःख झर
तुज्या दोळ्यांतल्यान म्हज्या दोळ्यांत
ह्या दुखाचो असो हो
अनंत दायजाचो संगम प्रवास
आयकूक येतात ऐन मध्यान
पारां काळ्यां ध्यानेस्त फांतोडेर
असपश्ट हुडकेवपी हुंडके
वेरेंल्ल्या मनाच्या
वणटीतल्यान आदळपी
मन किळाच
ह्या दुःखाची तर तूं आदिमाया
ह्या काळखातल्यान व्हांवपी उजवाड काया
म्हज्याय कणाकणात तुज्या
ओलसुक्या दुकाचो दुक सुवाळो
गाजता
उजवाड झर
जावन

## खुजें अस्तित्व

त्या घरातलें
ताचे ते मोटवे अस्तित्व
हे खुजे अस्तित्व
चड जाणवता
गडद जाता
घरचे रांदचे कुडीत
हे लोक परके
हे घर परके
पण हें खुजेपण
ताचे स्वताचे
हे खुजेपण ल्हव ल्हव
पातळटा ताच्या काळजातल्यान
ताच्या शरिरात हातात पायात
केंसात बोटातल्यान नाखटात
आनी मेंदवात पाझरत
झिरपता जल्मभर थंयच रावपाक
ताच्या अस्तित्वाचो भाग जावन

## कूस

उमाशेच्या तिनकात्रेर
मळबार काजळाची घुमटी
पयस खंयतरी कोणाचे
भुरगें काळिज पिळून रडटा
किळच्यानी
शेजारची आण्टी कोणाकडेन
झगडटा खेपाखेपानी
आनी हांगा म्हज्या कुसव्यात
अेक नवो जीव आकार घेता
निराकारातल्यान
ह्या घनगंभीर संवसाराचो कूस जांवक

## शव्द फूलां

असो कसलो हो
रूतू गुलाबी
चारय वटेन
शब्द फुलांची रांगोळी
न्हिदसुऱ्या दोळ्यांनी
न्हंय व्हांवता खूळखूळ
दर्याच्या यादिन
धवो फुल्ल
खुरिस उबो
बांदार
व्हाळातल्या
उदकांत झळझळायत
पाय

## फांतोड

एक फांतोड
अळंग उठ्ठा
धव्याफुल्ल चर्चीच्या
दरवटचार
अर्द जळिल्ल्या
अर्द न्हिविल्ल्या
मेणवातेतल्यान
मुखावेल्या धव्याच
बाकार बशिल्ल्या
धव्याच केंसाच्या
पिशा म्हातारेमुखावेल्यान
शियांळ धुक्यावरी
काळ ल्हव ल्हवच पासार जाता
कोणाक जापायनासतना

## पोवळीं

कोणे दिलो हो चक्रव्यूह
माथ्यार
आनी हुबून गेलो पुराय गांव
थंड किरांव न्हंय
जाली शार पिशार
चोंब्यानी फुल्लो माथ्यार
दुख्खाचो आशाढभार

* * * * * * * * *

स्वासाच्या माळयेतय
पाळण्याची भांगरादोरी
तांतू बसला सोनूल
स्वर्गा परी…

* * * * * * * * *

पावळेपेल्यान
तणां पाती
भीज भीज भीजता
भितर योगो भितर योगो
म्हळयार रड रड रडता

* * * * * * * * *

काळजाच्या पेण्यापेण्यार
यादीची दवरणी
जिवाची वात
अशी आवयची याद
दुदा चान्याची साय

स्वासाच्या माळयेतय
आता पाळण्याची दोरी
तांतू बसलां सोनूल म्हजे
स्वर्गाची परी

* * * * * * * * *

काळख्या काळख्या उटांगरात
खंयतरी तुजो आसोर हांसो
चकचकता
दिग्ग दिग्ग काळखातय
उजवाड सावळी झिळमिळटा

* * * * * * * * *

तुज्या दोळ्यांत
रागाची एक कीट
पळयली
अेका खिणात
हजार मरणां
अणभवली

* * * * * * * * *

खंय ती काळखाची पावलां वाजतात
हो विजमित उजवाड घमघम
खंय परमळ्ळा
दिगंत शेमेळ असो वाजता
खंयतरी नवो ब्रह्म निर्माण जाता

* * * * * * * * *

म्हज्या पावलां पावलांर
चैतन्याचें मळें
पयसुल्यान आयकूक येतात
शब्दुल्याचे उले
भुरगेपणातलो कवासो
काळजा तळ्यात घमघमता
मनातलो कृष्ण मना ल्हारार नाचता
खिणां खिणांत परजळटा
मनामनातलें अदृश्य अस्तित्व
पयसुल्यान शेनेतात
व्हांजऱ्याचे सूर

* * * * * * * * *

वाटो गेल्या सोडून
एकांकी जिवन यात्रा
किण्ण काळखात
रांगेत उबी
शुन्याची जात्रा

* * * * * * * * *

काळजातले इंगळे
तुं म्हाकां दिवन गेलो
हाताच्या तळट्यार
ते घेवन
अजूनय हांव
थंयच उबे

* * * * * * * * *

अेक दनपार
पाखां फाफुडिल्ली
कोंबी कशी
भर गर्देत
आपली पाखान पाख
सांडोवन उकती
पडल्या दोळ्याचेर मन
कोंबेल्ली साय घेवन

* * * * * * * * *

तें परमळाचें झाड
केन्ना केन्ना निट्ट
काळखी पांघरून
न्हिदसुरें दोळें घेवन
चोळीत बसता
तर केन्ना केन्ना घडघड
घाल्लेंवरी तेंगशेर
उजवाडाचे अमृत पिकयता
उजवाडाचे अमृत रकयता

* * * * * * * * *

तो मिरमिऱ्याचो मळब
भुरगेंपणात देखलेलो
आयज कितल्या तेपाउपरांत
आकार घेता
तुज्या दोळ्याच्या बावल्यातल्यान

* * * * * * * * *

उजवाडाच्यों भेटी
घेवन कोण उबो
फांतोडे सावन दारार
म्हाका मात आस
भिण्ण काळोखाची

* * * * * * * * *

फाटल्यान उबो, रंगदार
नक्षिदार मोर सुवर्णपाखाचो
हांव सोदता दिका दिकांतल्यान
हूबत येवपी, काळ्या भिऱ्याचो
साद

* * * * * * * * *

जिणेच्या जंवजाळातल्यान
दुखच वेंचून काडटा
कोणे शिकयली ही कळाशी
दुखां सोदपाची दुखां विचपाची
दुखां गुंथपाची
कविता रचपाची

* * * * * * * * *

कवितेची दोरी करून
तवकत तवकत चलता
वाट जिणेची
दोरी तुटली तर मात
शाश्वती ना जिविताची

* * * * * * * * *

तळ्याच्या मनात
मळबान घातली
नखेत्राची रांगोळी

* * * * * * * * *

जनेलातल्यान भायर
दनपार रखरखता
हांव हारशेल्या नदरेन
तिका तेळीत रावता
पयस पेल्यान
ते झाड
तिका घुस्पत घुस्पत
वयर तेंगशेर पाविल्ल्या
वेलिच्या
निळ्या जांबूळसार
घोंसाची फुलां
झुलयत दनपार
जियेता

* * * * * * * * *

पावलांक कुरू सांडून गेल्या
पयस दिगंत पारा
पयस उजवाडाच्या रानां खंय तरी
शेमेळ वाजता
मन उगडासाच्या झोपाळ्यांत
आयज मंद हांसता

* * * * * * * * *

काळजाच्या पेण्या पेण्यार
यादिची दवरणी
जिवाची वात
अशी आवयची याद
दुदा चान्याची साय

* * * * * * * * *

काळख्या काळख्या उटांगरांत
खंय तरी तुजो आसोर हांसो
चकचकता
दिग्ग दिग्ग काळखांतय
उजवाड सावळी झिळमिळटा

* * * * * * * * *

कोणे दिलो हो चक्रव्यूह
माथ्यार
आनी हुबून गेलो पुराय
गांव
थंडकिरांव न्हंयय जाली शार पिशार
चोंब्यांनी फुल्लो माथ्यार
असो हो दुखखाचो
आशाढ भार

* * * * * * * * *

चांदण्याच्या पदराक
आतां दुखखाच्योय
गांठयो

सोडल्यास सरसरतात
सांसवां मिरयांच्यो
काणयो

* * * * * * * * *

तुज्या दोळ्यांत
रागाची एक कीट पळयली
एका खिणात हजार मरणां
अणभवली

* * * * * * * * *

एकच सुर्य बीज दी
म्हज्या कुसव्यात पुजपाक
कुसव्यातलो काळोख
उजवाडावपाक

* * * * * * * * *

ह्या चेहरे नाशिल्ल्या
चोम्यात
हांव म्हज्या अदृश्य
हातानी तुजो चेहरो
सांसपीता
युगांची युगां

* * * * * * * * *

# गोलूलो राजकुंवर

एक दीस जाली
नवलाची मजा
गोलूलो राजकुंवर
सांडलो
सपनाच्या राजा
सगलेकडेन चल्ली
सोदासोद
मम्मा सोदता
फुलाच्या बागेत
रोजाच्या पाकळेत
पप्पान सोदले
भाताच्या शेतात
कुळागरां अनसात
कितें कशे सांगचे
खंय सांडलो
राजकुंवर
नुस्तें जावन
दर्यात बुडलो
पारवो जावन
मळबात उडलो
कांय
झाड जावन
रानात सांडलो
गोलू बसलें
गाल फुगोवन
पाखो आयलो
हांसोवंक
शेवणें आयले
खेळोंवक
पूण

गोलू कोणाक
आयकना
रडचे कशेच
सोडिना
तळ्यातल्यान ल्हवच
आयली साळकांची
राणी
आगो बाये
गोलू
रडटा कित्याक सांग
राजकुंवर तुजो खेळटा
फुलां तळ्यार
जांबळे मळार

## रांदपाची सर्त

गोलूल्या घरांत
जाली एक दीस
रांदपाची सर्त
गोलू जालें परिक्षक
आंगार घातलो काळोच कोट
एक दोन तीन चार...
सर्त जाली सुरू
पापान केल्यो भाकऱ्यो
ताईन केल्यो चकल्यो
दादान काडलें पानपोळे
आज्यान काडले शंकरपोळें
आत्यान केली सात्रां
काकीन तळली म्हानां
आईन केलो दोस
आज्जेन केलो पोस
मावश्यान केली तवसोळी
काकान केली दुदोळी
मामान केलें बेसनलाडू
मामेन केलें मुगांलाडू
गोलूचो जालो घुस्पागोंदळ
कोणाक दिवंचो पयलो नंबर
निमाणेच आयली
मावशी मोगाळ
मुसराद आंब्याचो हलवो
ताटांत सजोवन
पळोवन गोलुल्या
जिबेक सुटले उदक
मावशेकच मेळलों
पयलो नंबर

## बाबुलो

गोलुल्या मावशेक
जाला एक बाबुलो
माणकुल्या हातांचो
फुगऱ्या गोबऱ्या
गालाचो
गोलूक हाली सूचना कांय
खंयच्यो चॉकलेटी खंयची बावली
गोलूलो संवसार
सगलोच घुंवता
बाबुल्या भोंवतणी
हाली हाली बाबुल्याचीच काणी
आनी बाबुल्याचीची गाणी
खेळ अभ्यास सगल्याक सुटी
शाळेचे ताईकडेन
बाबुल्याच्योच खबरी

गोलूक पळोवन बाबुलो हांसता
हात हालयत
पाय नाचयत
मुठी कवळून
आंगठो चोखता
पळोवन ताचो अप्रुपाचो
कारभार गोलूचेर येता
हांसपाचो भार

## अप्रुपाची बाग

गोलू गेले एकदीस
अप्रुपाचे बागेत

थंय आसलो कावळो
तो भोंवतालो मेकळो
थंय आसली चानी
तिका जावची दिसताली
राणी
थंय आसलो मूस
ल्हवच मारी कूस
थंय आसलो बेबो
ताका आवडटालो रेबो
थंय रावतालो ताल्लो
ताचो इश्ट आसलो जल्लो
थंय रावतालें मांजर
दूद पिवंक पयली हजर
थंय आसलो सुणो
कोणाय परस नासलो
उणो
थंय आसली मूय
माथ्याक तिज्या सदाच
उंय
थंय आसलो खुबो
रावनासलो सारको उबो
अश्या अप्रुपाच्या बागेत
गोलून केली अप्रुपाची मजा

रानावनातली जाव नात्यानात्यातली ओलसाण ही जिवीताक सुख थंडाय दिवपी आसता. तीच नवनिर्मितीक पोशक आसता. कवियत्रीच्या मनाचे आंगण ओलेचिप्प आसा आनी ताका ओले ओले करपी पावस. तातूत रानय ओले, हो एका अर्थान नवनिर्मणेचो पूर्ण ध्यास - हो असोच ध्यास कवीले कवितेक वाडयता. समेस्त नवनिर्मिती फाटल्यान वेदनेचो मूळमंत्र आसता. पृथ्वीन ती वेदना भोगल्या, अस्तुरीय ती वेदना भोगता. कविताय वेदनेतल्यान आकारता. कविता आसता दिगंत मापणी, खोल काळखी हुंवाराची, दोळ्यातल्या दुकां भरतेभाराची. ह्या कवितांनी सावळ्याकय चंदनाचो घमघमाट सुटला. काळोख आनी उजवाडाचो सावळ्याखेळ सुरु जाता आनी रात तन्नी जाता.

हे कवितेक असीमाचो ध्यास आसा. ती अख्खे विश्व आपले वेंगेत घेवंक वथरेता. तो ध्यासच कवितेक मुखार व्हरता. जोगाचो घोगो हे सैमाचे महाकाव्य, मळब देठातल्यान दोंगर माथ्यावयल्यान जोग कोसळट जाल्यार हळेबेळ्ळूर शिल्पा ही फातरांनी रचिल्ली महाकाव्या, तांचे वांगडा कवियत्री आत्मजाणीवेतल्यान अद्वैत साधपाचो यत्न करता. कवितेत कवीन पयली स्वतः वांगडा आनी निमाणे बाह्य संवसारावांगडा. संवाद साधचो पडटा. ही कविता आत्मपर आसूनय सर्वावांगडा संवाद साधता.

Oleen Ranan
(Konkani), ₹ 90

ISBN 978-81-260-4712-3




साहित्य अकादेमी